# जाग

वर्स २६ ◇ आंक १२ ◇ जुलै २०००

संपादपी : रवीन्द्र केळेकार

वावुरपी संपादपी : माधवी सरदेसाय

उजवाडावपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.

अक्षर जुळणी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.

छापपी : प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.

भायलें चित्र : ऑरिक पौसांव

## ह्या आंकांत



| | | |
|---|---|---|
| वर्सुकी पटी | : | रु. १००/- |
| विद्यार्थ्यांखातीर | : | रु. ७५/- |
| तीन वर्सांची पटी | : | रु. २५०/- |

चेक वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
(चेक मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत धा रुपये अदीक जोडचे).

वेव्हाराचो नामो:
जाग म्हयनाळें
२०१-बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव – गोंय ४०३ ६०१.

किरकोळ आंकाचें मोल: रु. ९/-

## नदर संपादप्याची

### उमाशंकर जोशी

मनीस? फूंच. कवी म्हूण मात व्हड. असले जायते जाण संवसारभरच्या भाशांनी पळोवंक मेळटात. मनीस म्हुण्णूय व्हड आनी कवी म्हुण्णूय व्हड, असले मात मेळूंक खुबूच कठीण. असल्या मेळूंक कठीण, अपरूपी कवीं मजगतचे उमाशंकर जोशी एक आशिल्ले.

पांच दसकांचे तांचे साहित्य सेवे उपरांत आमी तांचे कडेन पळेतात तेन्ना गुजराती कवी म्हूण वयर सरिल्ले उमाशंकर फकत गुजराती कवी उरूंक नाशिल्ले, गुजरातींतूच बरोवन भारतीय कवी जाल्ले, कालिदास रवीन्द्रनाथांच्या पांवड्यार चडिल्ले आनी विश्वकवी जाल्ले म्हणपाचें दिसून येता. उमाशंकर आपणाली वळख केन्नाच गुजराती कवी म्हूण करून दिनाशिल्ले. 'हांव एक भारतीय कवी; गुजराती भाशेंत बरयतां' म्हुण्णूच करून दिताले. आनी लोकूय तांचे कडेन एक भारतीय कवी म्हुण्णूच पळेताले. रवीन्द्रनाथांचे विश्वभारतीचे आचार्य (चान्सलर) ते बेश्टे जावंक पावंक नाशिल्ले.

गुजरात राज्यांतल्या सांबरकांठा जिल्ल्यांतल्या बामणा नांवाच्या एका गरीब ब्राह्मण कुटुंबांत तांचो २१ जुलै १९११ ह्या दिसा जल्म जाल्लो. घरांत सान्न मार, आयदनां घांस, गोरवांक सोड, गोठो निवळ कर, शेण एकठांय कर, शेणी थाप – असलीं सगळीं कामां उमाशंकरांनी ल्हानपणांत मोटे उमेदीन केल्यांत. तांचें गुजराती चवथे यत्ते मेरेनचें मुळावें शिक्षण गांवांतूच जालें. फुडलें शिकपाक शेजारच्या 'इडर' गांवांत वचपाक लागले. मॅट्रिक शिकपाक अहमदाबादेक गेले. १९२८त ते मॅट्रिक जाले. ते मुस्तींत सिंध, गुजरात, महाराष्ट्र आनी कर्नाटकाचो अस्तमी वाटार मुम्बय इलाख्यांत मोडटालो. मॅट्रिकेची परिक्षा मुम्बय युनिव्हर्सिटी घेताली. उमाशंकर तिसऱ्या नंबरार आयिल्ले. कॉलेजचें शिक्षण घेवपाक अहमदाबादेंत पावले. आनी जिस्त ह्या वेळार—

महात्मा गांधींनी देश पेटयलो. शेंकड्यांनी तरणाटे, शाळा कॉलेजां सोडून सत्याग्रहांत पडले. उमाशंकरूय पडले. पयलीं साबरमतीचे, उपरांत येरवड्याचे बंदखणींत चौदा सप्तकां उरले. ते मुस्तींतल्यो बंदखणी एके तरेचीं विद्यापीठां आसतालीं. उमाशंकर बंदखणिच्या ह्या विद्यापिठांत मराठी, बंगाली आनी उर्दू ह्यो तीन भासो शिकले. बंदखणींतल्यान सुटून आयले आनी पांय आपशींच गुजरात विद्यापिठाचे दिकेन चलपाक लागले.

आनी विद्यापिठांत तांकां काकासाहेब मेळ्ळे.

उमाशंकर मुम्बयच्या एलफिन्स्टन कॉलेजांत शिकल्यात. अर्थशास्त्र आनी इतिहास घेवन बी.ए. जाल्यात. गुजराती आनी संस्कृत घेवन एम्.ए. जाल्यात. पुणून सदांच आपणाक काकासाहेबांचे विद्यार्थी मानीत आयल्यात. तांच्या कविच्या पिंडाक काकासायबांचीच पोसवण मेळ्ळ्या. वीस वर्सांचे आसतना ते तांचे सरीं पाविल्ले. ते पिरायेर तांणी 'विश्वशान्ति' नांवांचें एक खंडकाव्य बरयलें.

आनी रातयांच गुजरातभर 'फायचो एक व्हड कवी' म्हूण तांचें नांव जालें.

ते मेरेन नानालाल आनी मुनशी गुजराती बरपावळिचे मानदंड थरिल्ले. 'विश्वशान्ति' उपरांत उमाशंकर गरगरीत वाडत गेले ते पांच सात वर्सां

भितर गुजराती कवितेचेच न्हय, तर गुजरातचे पुराय सांस्कृतिक जिणेचे मापदंड म्हूण मुखार आयले. **गंगोत्री, निशीथ, प्राचीना, आतिथ्य, वसंतवर्षा, महाप्रस्थान, अभिज्ञा, धारावस्त्र, सप्तपदी** – १९३१ पसून १९८१ मेरेनच्या पन्नास वर्सांच्या काळांत तांगेले एका फाटल्यान एक कवितांचे झेले उजवाडा आयल्यात. 'त्यां दूरथी मंगल शब्द आवतो / शताब्दिओना चिरशांत घुम्मटो / गजावतो, चेतनमंत्र गावतो' ह्या वळिंनी सुरू जाल्ली तांची कविता 'छेल्लो शब्द मौनने ज कहेवानो होय छे' हे वळीन सोंपल्या. 'शब्द' तांकां संवसारांतल्या खांची कोनशांनी घेवन गेला. ते चीन पळोवन आयल्यात. सिंगापूर, इण्डोनेशिया, मलाया, लंका ह्या देशांनीय वचून आयल्यात. येवरोपांतल्या सगळ्या देशांनी भोंवल्यात. सोवियट संघ, इजीप्त, जपान, कोरिया ह्या देशांक भेटी दिवन आयल्यात. गांधीयुगाच्या प्रभावान संस्कारीत जाल्ली तांगेली कविचेतना राष्ट्रचेतने कडेन आनी विश्वचेतने कडेन अशी कितें अद्भुत रितीन एकरूप जाल्ली की साहित्याच्या कितल्याश्या रुपांचेर तिचे संस्कार जाले. उमाशंकरांनी कथा नवलकथा, एकांकी, नाटकां, निबंध, प्रवासवर्णनां, विवेचनां बरयल्यांत. हाताक स्पर्शमणी आशिल्ले भाशेन जाका तांणी हात लायला ताचें भांगर केलां.

स्थान, मान, धन, भौमान कितेंच मागपाक उमाशंकर केन्ना कोणाच कडेन गेले नात. पुणून गुजरात युनिवर्सिटिचें गुजरातीचें अध्यापकपद, ताच्या भाषा-साहित्य-विभागाचें नियामकपद, कुलपतिपद, राज्यसभेचें सभासदपद, गुजरात साहित्य परिषदेचें, युनिवर्सिटी ग्रांट्स् कमिशनचें आनी केन्द्रीय साहित्य अकादमीचें अध्यक्षपद, विश्वभारती-शांतिनिकेतनचें आचार्यपद, हीं सगळीं पदां तांकां सोदीत तांच्या पांयांकडेन आयल्यांत. आनी तांणी तीं कुशळतायेन सांबाळ्ळ्यांत. इतलेंच न्हय तर खूब बरे तरेन सोबयल्यांत. त्या वेळार तांचे व्यवहारदक्षते बरोबरूच तांगेलें सात्विक बळूय खूब जाणांनी उकताडा आयिल्लें पळेलां. तांणी केन्ना कोणाची खुशामत केली ना. केन्ना कोणाची उवेखणीय केली ना. 'उवेखे न कोईने' ही तांची नामना. पुणून तेच बरोबर कोडू सत्य उलोवपाकूय ते केन्ना फाटीं फुडें सरूंक नात.

३६ वर्सांचे पिरायेर अवचीत तांणी घरकान्नीक म्हळें, 'चल, संस्कृति सुरू करुंया' आनी एक म्हयनाळें सुरू केलें. 'म्हयनाळें सुरू करुंया' म्हळें ना. 'संस्कृति' सुरू करुंया म्हळें. जल्मा पयलींच नांव मेळिल्लें. आठ्ठीस वर्सां तांणी तें चलयलें. 'मॉडेल' म्हूण रामानंद चटर्जीचें 'मॉडर्न रिव्हू' मुखार आशिल्लें. म्हयन्या-म्हयन्याक एक तारखेर 'मॉर्डन रिव्हू' भायर सरतालें आनी वायसरॉय तशे गांधी ताची उत्सुकतायेन वाट पळेताले. **संस्कृती** हेच तरेचें एक नेमाळें आशिल्लें. पत्रकारितेच्यो कितल्योश्यो तरा आसात. उमाशंकरांनी 'साहित्यिक पत्रकारिता' म्हूण एक नवी तरा सुरू केल्ली. कथा, कविता, नाटकुलीं, निबंध असलें बरप तर तातूंत येतालेंच. ते भायर, देश विदेशांतल्या राजकी, सामाजीक, सांस्कृतीक घडामोडिंचेर उमाशंकरांचें भाष्यूय येतालें. तांकां दोगी धुवो. **संस्कृतिक** ते आपणाली तिसरी धूव लेखताले. तांकां हुस्को तो ह्या तिगी धुवांचो. खंयूय वचूं, **संस्कृति** थरल्या ते तारखेर भायर सरुंकूच जाय हो तांचो नेम. जीव ओतून तांणी हें नेमाळें केळ्यल्लें. ४१६ आंक काडून १९८४तल्या डिसेंबरांत तांणी निमाणो आंक पोस्टांत घालो तेन्ना तांच्या दोळ्यांतल्यान दुकांच्यो झरी व्हांवपाक लागिल्ल्यो. **संस्कृति**चें 'ऑफिस' नाशिल्लें. तेच (आनी तांगेली घरकान्न – घरकान्न भायर पडटकूच, तांगेल्यो दोगूय धुवो) तें चलयताले. म्हळ्यार, बरोवप, आयिल्लें बरप निवळावप, प्रुफां पळोवप, रॅपराचेर पटयेकारांचे पत्ते बरोवप, तिकेटी दसोवप सगळें तेच करताले. गुजरात युनिव्हर्सिटिचो हो कुलपती, विश्वभारतीचो हो आचार्य, गुजराती सारस्वतांतलो व्हडांतलो व्हड एक सारस्वत 'असलीं' कामां करता तें पळोवन खूब जाणांक अजाप जातालें. पुणून उमाशंकरांक ताचें व्हडपण आशिल्लें. भाशेची सेवा म्हळ्यार ते भाशेंत बरोवप इतलेंच व्हय तर? भास वयर काडपा खातीर जें जें करूंक जाय तितलेंय करप हीच भाशेची सेवा अशें तांचें म्हणणें आशिल्लें. **संस्कृतीन** कितलेशे नवे कवी, नवे साहित्यकार गुजराती भाशेक दिल्यात. **संस्कृतींत** जाचें बरप येता तो गुजरातींतलो 'व्हड साहित्यकार' आसता अशी ह्या नेमाळ्याची प्रतिष्ठा आशिल्ली.

गुजरातीपण सोडी नासतना विश्वमानव जावं येता हें **संस्कृतिन** दाखोवन दिलां. **संस्कृति**चे खंड आयज गुजराती बरपावळिचो एक व्हडलो खजिनो, एक व्हडलें भांडार जालां. जाचेकडेन ते आसात तो संस्कृतायेच्या मळावयलो गिरेस्त मनीस अशें लोक मानतात.

कवी ह्या उतराच्या मूळ अर्थानूच उमाशंकर एक कवी आशिल्ले. व्यास कवी आशिल्ले. महाभारत रचलें ह्याच अर्थान फकत न्हय. महाभारतांतल्या उचांबळीत वातावरणांत घुस्पल्ले आसतनाय धा आंगळां सगळ्यां परस ऊंच राविल्ले, ह्या अर्थान. वाल्मीकी कवी आशिल्ले. क्रौंच-वध पळोवन कळवळून आयिल्ले आनी ह्या कळवळ्यान तांणी रामायण रचिल्लें, ह्याच अर्थान फकत न्हय. घोवान सोडिल्ले सीतेक लव-कुशा वांगडा रामाच्या दरबारांत घेवन गेल्ले एक महामानव ह्याय अर्थान. रवीन्द्रनाथ कवी आशिल्ले. शांतिनिकेतनांतल्या नाच गाण्याच्या वातावरणांत रावन सुंदर सुंदर कविता रचपी ह्या अर्थान न्हय. तर बंगालचे फाळणेच्या उज्यांत उडी घेवन ह्या धगधगत्या वातावरणांत लोकांक स्फूर्त दिवपी कविता रचपी ह्याय अर्थान. उमाशंकरूय अशेच एक 'कमिटेड' कवी आशिल्ले. तांणी स्वराज्या आदल्या काळांत सत्याग्रह केल्यात, बंदखणी भोगल्यात. स्वराज्यांत उतार पिरायेरूय ते सरकारा आड उबे रावल्यात. देशांत जें घडटा मोडटा ताचेर जागरूक नदर दवरून रावल्यात. बऱ्यांतलो बरो एक शिक्षक – ग्रीक ट्रॅजडिंचेर जितले रुचीन उलोवपी, तितलेच रुचीन प्रेमानंदाचेर उलोवपी, हो विद्यार्थी-प्रिय प्राध्यापक गरज पडल्या तेन्ना इन्दिरा गांधींचे कान पिळपाकूय फुरफुरून मुखार आयला. १९७४/७५च्या काळांत गुजरात राज्यांतल्या नवनिर्माण आंदोलना वेळार ते रविशंकर महाराजां वांगडा गुजरात राज्यांतल्या शिक्षक विद्यार्थ्यांक घेवन चलल्यात.

उमाशंकर म्हळ्यार उमाशंकर. गांधींच्या प्रभावांत आयले, काकासायबांची पोसवण घेवन वाडले. पुणून अखेर मेरेन उमाशंकरूच उरले. कोणाच कडेन जांची सर करूंक येना असले. एकमेव. Unique.

१९८८त डिसेंबराचे १९ तारखेर ७७ वर्सांचे उतार पिरायेर तांणी निमाणो स्वास घेतला तेन्ना —

गुजरातच्या संस्कारी समाजाक एक म्हालम्हातारो वड कोंसळून पडचो आनी पुराय संवसार उकतो उकतो दिसचो अशेंशें कितें जालां. पुणून तांणीच म्हळ्ळें —

'नाम मारूं गुजराती भाषा मां ओगळी गयुं छे' – म्हजें नांव म्हजे भाशेंत विरगळून गेलां. उमाशंकर गुजराती भाशेंत साकरे भशेन् विरगळून रावल्यात.

(पणजी आकाशवाणीच्या बरेपणान)

## पयलीं सावन घाळ. सदांकाळ घाळ आमी

आठव्या शतमानांत – म्हळ्यार ख्रि.स. ७११त – मुहम्मद बिन कासिम नांवाच्या एका अरबान सिंध घेतलें.

इतिहासकार हे घडणुकेक व्हडलेंशें म्हत्व दिनात – it was just a minor episode म्हणटात. पुणून हे 'minor' घडणुकेन आमचीं जीं दुबळीं आंगां वाऱ्यार घाल्यांत तांचे कडेन दुर्लक्ष कशें करतले?

आयजूय हीं आंगां तश्शीं उरल्यांत.

सातव्या शतमानाच्या मध्याक अरबस्तानांत खलिफाचो शेक सुरू जालो. खलिफा राज्याचोय मुखेली आशिल्लो तसो धर्माचोय आशिल्लो. हातांत

आयिल्लें राज्य घट मुठींत दवरप आनी धर्म पातळावन राज्य वाडयत वचप हीं दोनूय ताचीं कामां आशिल्लीं.

अरबस्तानांत भारतीय व्यापारी सदांच पावताले. तांचे कडल्यान खलिफाक भारता विशिंच्यो कितल्योश्यो गजाली कळिल्ल्यो. तांतल्यो दोन तांकां खूब म्हत्वाच्यो लागल्यो —

संवसाराचे फाटी वयलो हो गिरेस्तां मदलो खूब गिरेस्त देस म्हणपाची एक. आनी, तेत्तीस कोटी देवांक पुजपी मुर्तीपूजक एक देस म्हणपाची दुसरी. तेत्तिसूय कोटी देवांच्यो मुर्ती फोडूंक जाय आनी देस जिखून तो आपणाल्या साम्राज्याक दसोवंक जाय म्हूण खलिफा फुरफुरून आयलो. भारताचेर चाल करून येवपाक तो निमित्त सोदतालो. जिस्त ह्या वेळार ताका एक निमित्त मेळ्ळें.

अरबांचीं तारवां अरबी समुद्रांत सदां यो वच करीत आसतालीं. तांतलीं कांय तारवां सिंधा लागसारच्या दर्यांत चांच्यांनी लुटिल्ल्याची खबर खलिफाच्या कानार पावली. ताणें रोखडोच इराणच्या आपल्या गवर्नराक – हज्जाजाक – आपोवन सांगलें, आमच्या तारवांक राखण दिवपाची तांक भारताक ना. सिंधाचो वाटार आमच्या हातांत घेतिल्लो बरो. हज्जाजान आपणाल्या जांवयाक (भाचोच तो ताचो) – मुहम्मद बिन कासिमाक – सैन्य घेवन सिंधाचेर चाल करून वचपाक धाडून दिलो. कासिम येद्या किंवाट्यान चाल करून आयलो की भारताचे भुंयेर पांय दवरिना फुडें देबूल शार पयल्याच धपक्याक पडलें. देबूल शारांतले लोक शरण येनाफुडें ताणें पेरगांव घालें, शारांतल्या सगळ्यांक मुसलमान जावचें पडटलें. ना जाल्यार जीव होगडावचो पडटलो. आमचो लोक जल्मस्थ भेंकरो. रोखडोच मुसलमान जालो. जे जावंक फार्टीफुडें सरपाक लागले तांकां कासिमान कचाकच कातरून उडयले. तांच्या बायलांक आनी भुरग्यांक गुलाम केलीं. आनी देवळां लुटून जमयल्ली संपत सैनिकांक वांटून दिली.

थंयच्यान उठून तो मुलतानाक गेलो आनी मुलतान घेवन जातकूच नीट ब्राह्मणाबादेक आयलो. ब्राह्मणाबाद सिंधाची राजधानी. सिंधाचो राजा दाहिर थंय राजवाड्यार रावतालो. कासिमान ब्राह्मणाबाद रोखडें घेवन उडयलें. दाहिर झुजामळारूच भायर पडलो.

आतां प्रस्न —

इतल्या सोंपेपणान कासिम पुराय सिंध वाटार कसो घेवंक पावलो?

१. राज्याची राखण करपाक सैन्य राजवाड्या भोंवतणी दवरलें म्हूण भागना. राज्याचे शिमेर दवरूंक जाय. हें दाहिराक खबर नाशिल्लें. दाहिराचें सैन्य शिमेर नाशिल्लें. राजधानींत आशिल्लें. फकत राजाची राखण करतालें. शीम सामकी उकती पडिल्ली. हाका लागून कासिम ब्राह्मणाबादेक पावचे पयलीं वाटेर ताका कोण आडावंक मुखार सरलो ना.

२. ज्या राज्याच्या वांट्याक दर्यो आयला त्या राज्यांत फकत भुंयेर शेक चलयलो म्हूण भागना. दर्याचेरूय ताचो शेक चलूंक जाय. ते खातीर घटमूट नावीक दळ उबारूंक जाय. हें दाहिर राजा नकळ आशिल्लो. ताचें नावीक दळूच नाशिल्लें.

३. फकत सैन्याच्या म्हालवजार राज्याची राखण करूंक येना. प्रजा राजा फाटल्यान आसूंक जाय. दाहिर हेंवूय नकळ आशिल्लो. ताणें सिंध प्रांत घेतला ताचे पयलीं सिंधांत एक बौद्ध राजा राज्य करतालो. दाहिर बौद्धांच्या दुस्वासान कुड्डो जाल्लो. ताणें ह्या बौद्ध राजाक मारिल्लो. बौद्ध धर्म हुमटावन भायर मोखून उडयल्लो आनी ब्राह्मण धर्म सुरू केल्लो. प्रजेंत जे बौद्ध (आनी जैनूय) उरले ते राजा फाटल्यान केन्ना रावले नात. कासिम घुरी घालून आयलो तेन्ना कोण ताच्या आधाराक आयलो ना.

४. शिमे वयली प्रजा आपली केले बगर राज्य राखूंक येना हेंवूय दाहिर नकळ आशिल्लो. शिमे वयले कोण दाहिरा फाटल्यान नाशिल्ले.

५. घुरी घालून जो आयला तो मुहम्मद बिन कासिम खलिफाच्या साम्राज्याचो प्रतिनिधी म्हूण आयला आनी खलिफाचें साम्राज्य शिमे पेल्या वाटारांत सगळे कडेन पातळ्ळां – मध्य उदेंत वाटार, आफ्रिकेचो उत्तरे कडलो वाटार, येवरोपाचो दक्षिणे कडलो वाटार सगळो ह्या साम्राज्यांत आसपावला म्हणपाची खबरूच दाहिराक नाशिल्ली.

आनी सगळ्यांत म्हत्वाची गजाल —

सिंधा भोंवतणी व्हडले व्हडले राजा म्हाराजा आशिल्ले. एका फुडले एक वीर. पुणून तांकां सिंधाचें कितेंच पडूंक नाशिल्लें. 'मरना... आमकां कितें लागता?' हेच वृत्तीन ते चलताले. तांकां 'आपले' करूंक जाय हें दाहिराकूय खबर नाशिल्लें आनी हो संकटांत पडला, हाच्या आधाराक आमी धांवन वचूंक जाय म्हणपाचें तांकांय खबर नाशिल्लें.

आयज लेगीत हीं सगळीं आंगां आमच्या राष्ट्रीय जिवितांत पळोवंक मेळटात. कशे म्हणटले आमी हे घडणुकेक minor episode म्हूण?

दोळे उकते करपाक ही घडणूक पुरो.

पुणून आमी जल्माचेच कुड्डे. कितेंच आमकां दिश्टी पडलें ना.

आमी सदांच घाळ उरल्यात. आयजूय घाळ आसात.

## शी: माणसुकी उरूंक ना

सिल्क म्हाका आवडटा. घालिना सभ्य मनशाक सोबना म्हूण. पुणून खादी भवनांत पावलों म्हणटकूच साडी घेवपाक सिल्काच्या काऊंटराचेर चुकनासतना वतां. परवडना म्हूण केन्ना घेना.

पयर एके सिल्काचे साडये खातीर पन्नास हजार किडे मारचे पडटात म्हूण कळ्ळें तेन्ना —

आयुष्यांत सिल्क केन्नाच घेवप ना असो निर्णय घेतलो.

कितलेशे भौमान जाले, कितल्योश्यो तसरिपो मेळ्ळ्यो. दर एका सुवाळ्यांत एक एक शाल मेळ्ळी. पश्मिन्याची शाल कोणें केन्ना दिली ना. दिल्ली जाल्यार पांगुरतलों आशिल्लों अशें न्हय. पुणून म्हजे कडेन पश्मिन्याची शाल आसा म्हूण खुशाल भरीत आसतलोंच आशिल्लों. केन्नाय तरी पयशे हातांत घोळपाक लागतले तेन्ना एक घेतलों म्हूण राविल्लों.

पयर पश्मिन्याचे एके शाली खातीर पंदरा तिबेटी हरणां मारचीं पडटात म्हूण कळ्ळें. तेन्ना सावन —

पश्मिन्याचें नांव घेना फुडें आंग शिरशिरून येवपाक लागलां.

दंव, पावस, हवेंतली ओलसाण तकलेर चडशी घेना. थंडी जाता. मागीर चार स दीस सॉं सॉं करीत रावतां. पुणून बुफे पार्ट्यो हालिंसाराक रातच्यो उकत्यार जातात! म्हूण पार्ट्यांक वतना खांदार एक मफ्लर उडोवन वतां. 'कराकूल' नांवाची एक तोपी येता, ती एक घेवची अशें खूब फावटीं मनांत आयलें. एक दीस कशी मेळटा ती पळोवपाक मुम्बय काश्मीर एम्पोरियमांत गेलों. मोल पळेलें आनी ही 'मंडीच्या राजाकूच' (वि.पी.सिंगांकूच) कोंता येवपाची अशें थारावन घेनासतना मोन्यानी परतलों. (मंडीचो राजाय खंय ती आतां वापरिना.)

पयर कळ्ळें —

'कराकूल' नांवाची एक बोकडी आसता. ती व्हियेवपाक तीन सप्तकां आसात म्हळ्यार तिचो धनी तिच्या पोटार एकार एक तोणके मारून तिचो गाब व्हलयता. तेन्ना जें पील भायर येता ताचें ल्हंवे सयत चामडें काडून 'काराकूल कॅप' करतात.

शी: असली कॅप कोणेंच वापरूंक जायना. तें कित्याक, फारूख अब्दुल्ला वा ताच्या खासदार पुताचे (मंत्री जाला दिसता तो), तकलेर दिसली जाल्यार ती झोंबून भिरकावन भायर मारूंक जाय ह्या निर्णयार पावलां.

हांव कांय पार्लमेन्टांत पावपाचों ना. आयज जे आमचे दोग खासदार आसात तेवूय परले पावतीत हाचें खरेपण ना. म्हूण 'तुमचो टर्म सोंपचे

पयलीं हें एक सत्कार्य करून येयात' अशें तांकां सांगपाक रावलां.

अजून मेळूंक नात.

नागपंचमे दिसा सवायशिणी नागांक पियेवपा खातीर वडा मुळांत दूद कित्याक दवरतात, केन्ना समजलें ना. आनी ते दळडिरे तें पियेवपाक कित्याक येतात, केन्ना कळ्ळें ना. नागाक संस्कृतांत क्षेत्रपाल म्हणटात. क्षेत्रपाल म्हळ्यार शेतां राखपी – चड करून हुंदरां पसून.

पयर एक खबर कळ्ळी —

एका महाराष्ट्रांत खंय नागपंचमे दिसा दूद पियेवन सत्तर हजार सोरोप मरतात. दूद खंय नागांचें विक्ख.

हे राम! म्हळें. महाराष्ट्रांतल्या सवायशिणींक जमनिचें कन्वर्शन करतल्या बिल्डर्सांची वा फुडाऱ्यांची फूस बी ना मू? नागपुजेच्या नांवान अबरगती वर्सानि वर्स नागहत्या करतात!

दुदाक रगत म्हणपी मनेका गांधीची म्हाका तिडक. लाखांनी भुरगीं आसात आमच्या देशांत जांचे जिबेर दुदाचो एक थेंब लेगीत पडना म्हूण बावडीं मरतात. खरेपणानशीं, सगळ्या भुरग्यांक शिक्षण सक्तिचें करचे बदला दूद पियेवप सक्तिचें करूंक जाय आनी सरकारान तें तांकां फुकट दिवंक जाय अशें पार्लमेन्टांत बील हाडूंक जाय ह्या मत्ताचो हांव.

पयर, मनेका गांधीचेर हांव बेश्टो कोंत्र जालों अशें दिसलें. तिचोच एक लेख वाचलो आनी ती दुदाक रगत कित्याक म्हणटा तें कळ्ळें. लेखांत हांवें एकूच बदल केलो – जंय जंय दूद उतर येता थंय थंय ताचे पयलीं 'सरकारी डेअरींतलें' हीं दोन उतरां जोडलीं.

सरकारी डेअरींत खंय गायांक सदांकाळ गाबण्यो करतात. (दूद दिवपी माक्नां न्हय तर त्यो?) गाय व्हियेली आनी तिका पाडूक जालें जाल्यार वाटावली. पाडो जालो जाल्यार सरकारी डेअरींतले कसाब ताका जल्माक येनाफुडें खंय मारून उडयतात. गाय पानेवपाक तिच्या पान्याक पाडकाचें वा पाड्याचें तोंड लागूंक जाय. पाडूक वा पाडो तिका मुखार दिश्टीय पडूंक जाय, चाटूंक मेळूंक जाय. ते बगर ती सपसप दूद दिना. मागीर, तिचें दूद मेळपा खातीर सरकारी डेअरींतले 'तज्ञ' तिका ओसिटोन नांवाच्या एका वखदाचें इंजेक्शन दितात. तें घेतकूच खंय गायक बांयटिणीक येतात तसल्यो वेणो येवपाक लागतात. तिच्यान त्यो सोंसूं नज जातात. म्हूण 'तज्ञा'च्या हातांत इंजेक्शन दिश्टी पडना फुडें जिका आमी 'गरीब बाबडी' मानीत आयल्यात ती लेगीत खंय घोड्या भाशेन चारूय पांयांनी उडयो मारपाक लागता.

असलें दूद पियेवं येता?

ते परस हरवीच गाय खाल्ली बरी...

एक सांगपाचें उरलें —

हें दूद पियेतल्या चलयांक खंय मिशयो येतात.

— माणसुकी उरूंक ना ह्या देशांत निष्पाप जिवीत जियेवपाची.

## अवनती कडेन व्हरपी एक व्यसन

लोक सोरो कित्याक पियेतात? गरीब पियेता, तो नागवला म्हूण. दुसऱ्यां खातीर तो अन्न पिकयता, आपूण अर्द-पोटार उरता; दुसऱ्यां खातीर लुगटां विणून दिता, आंपूण बोंदरां न्हेसता; दुसऱ्यां खातीर घरां बांदून दिता, आपूण खोंपींत रावता, हाची ताका जाणवीक जाता आनी ती ताका खाता म्हूण. ताका दुख्ख भोगता, तो देवाक उलो मारता. तरूय देव ताका पावना. ताका उपाय येवजना.

आपणालें हें दुख्ख विसरायेर घालपा खातीर तो पियेता.

पुणून गरिबच पियेता अशें न्हय. गिरेस्तूय पियेता. कांय कांय वेळार तर गिरेस्तूच चड पियेता. तो कित्या खातीर पियेता? तोवूय नागवला म्हूण. बरोऽ सुखांत जियेतलो म्हूण तो वेपार-उद्देग सुरू करता, रिणां काडटा, हप्ते भरता, हाका खोशी दवर, ताचीं बोल्सां भर. हाचे पांय धर, ताका पॉलीश् कर असल्याच राटावळिंनी ताचो दीस सोंपता. जें सूख मेळचें म्हूण तो आंवडेता तें ताका केन्ना मेळूंक पावना. तें कित्याक, बायल-भुरग्यां वांगडा खबरी करपाक, हांसपाक-खेळपाक ताका वेळूच मेळना. ताका सारकी न्हीद लेगीत पडना.

हें टॅन्शन देंवोवपा खातीर तो पियेता.

* * *

एकल्याक साठ भर जाल्लीं. तागेल्या दोग चल्यांनी आनी इश्टांनी ह्या निमित्त्यान एका हॉटेलांत एक 'पार्टी' दवरली. म्हाका आमंत्रण आशिल्लें म्हूण गेल्लों. चडशे सगळे नंव-श्रीमंत आयिल्ले. म्हजे सारकेले दोग तीग 'शिवराकू'य आयिल्ले. आमचे खातीर 'सॉफ्ट ड्रिंकां' आयलीं. उरिल्ले 'व्हिस्की'चे ग्लास घेवन बसले. अर्द पावूण वर बसलों. मागीर ल्हवू कूस मारली. कांय दिसांनी एके सभेंत तो मेळ्ळो. 'कितें रे, त्या दिसा तूं नाच जालो. तुका सगळे कडेन सोदलो. मागीर कोणें तूं गेलो म्हूण सांगलें.'

म्हळें, 'अर्द पावूण वर हांवें त्या वातावरणांत भरसुपाचो यत्न केलो. पुणून यत्न करुनूय भरसप म्हाका जमलें ना... म्हजे म्हाकाच मागीर हांव अन्नाडी कसो दिसपाक लागलों. म्हळें, न्यूनगंड कित्याक वाडय? म्हूण कूस मारली.'

'सांगून वचपाचें', ताणें शीण काडलो.

म्हळें, 'तूं वचूंक दिवचो नाशिल्लो म्हण सांगूंक आयलों ना... पोरण्या युगांतलो मनीस हांव. नव्या युगाकडेन in tune जावप म्हाका आतां जमपाचें ना. खूब उशीर जाला.'

* * *

सोऱ्यान 'टॅन्शन' देंवता जातलें, तरतरी येता आसतली, जिवीत जियेवपा सारकें दिसता आसतलें, दुख्ख विसरायेर पडटा जातलें. पुणून हें सगळें मेंदवाचेर सोऱ्याचो शेक चलता ते मेरेन जाता वा दिसता. पुणून सोऱ्याचो शेक एक दोन वरां वा चार स वरांच चलता. उपरांत देंवता. मागीर हात पांय गळिल्ले वरी दिसपाक लागतात. आनी मनीस तरतरी हाडपा खातीर पर्थून एक फावट ग्लास हातांत घेता. हे भाशेन, भौन भौन पियेत रावलो म्हणटकूच मनशाक पियेवपाची संवंय जाता, सोऱ्या बगर चलना अशें जाता आनी इल्लें इल्लें करून मागीर ताका सोऱ्याचें व्यसन लागता.

सोऱ्याचें व्यसन लागिल्ल्या मनशाक सरसमान लोक 'बेब्दो' म्हणटात. बेब्दो मनीस एका सारको बडबडत आसता. ताका थोडो भोव अध्यात्म कळटा आसत जाल्यार अध्यात्मूच चड बडबडटा. आपणाले हे spiritual talks चल्ल्यात म्हणटा. तरणाटो आसत आनी चारित्र्यान मातसो सदळ आसत जाल्यार जितलें पोजडें उलोवं येता तितलेंय उलयता. जें करूंक ना तें आपणें केलें म्हूण भासयता... ताका सुद्द उरना, सारकें चलूंक येना. केन्ना केन्ना रस्त्यार वा खळ्येंत पडटा. लोक मागीर ताका घरा हाडून पावयतात. आनी ताका हाची खंतूय जायना, लजूय दिसना.

असल्या मनशाक सभ्य कसो म्हणचो, समजना. सभ्य मनशाक मानमर्यादा आसूंक जाय, प्रतिश्ठा आसूंक जाय, 'डिग्निटी' आसूंक जाय. तीच मनीस होगडावन बसलो जाल्यार मागीर ताका पत कितें उरतली? आंसूं मागीर ताचे कडेन कितलीय संपत, कितलीय सत्या, कितलीय प्रतिभा. सुमारा भायर बुद्धिमान आनी प्रतिभावान म्हजे कांय इश्ट सोऱ्याच्या एका व्यसनांक लागून देड दमडेचें लेगीत मोल नाशिल्ल्या धनवंतांचे खुशमस्करे, विदूषक (clowns) जावन पडिल्ले पळेल्यात. आनी हांव भितरले भितर फणफणून रडलां.

कांय वर्सां पयलीं एकल्या बेबद्या इश्टाचे धुवे खातीर हांवें एक थळ

पळेल्लें. चली संस्कारी, शिकिल्ली, हुशार आनी दिसतालीय बरी. बापायक हांवें ह्या थळा संबंदान सांगलें. ताणें पयलीं म्हजे उपकार मानले. मागीर वासपूस करतकूच चलो बेब्दो म्हणपाचें ताका कळ्ळें. तो म्हजेर उसळ्ळो, 'चली बुडोवपाक भायर सरिल्लो काय कितें रे तूं?'

'अशें कित्याक म्हणटा तूं? लक्षाधिशाचो पूत. बँकेंत फुडल्या सात पिळग्यांक पावत इतलें नांवार आसा ताच्या. घरदार आसा, ते भायर अधिकाराच्या एका व्हड जाग्यार काम करता...'

'पुणून तो बेब्दो म्हूण नकळ आशिल्लो तूं?'

'तुका रे हाची कसली अडचण? तूं स्वता कोण, बेब्दो न्हय? बेब्दो जांवंय करपाक तुजो विरोध कित्याक आसचो?' हांवें फटकळपणान ताका विचारलें.

'तुका कळपाचें ना तें' अशें म्हणून ताणें म्हजेकडेन उलोवपाचें लेगीत सोडून दिलें. सात वर्सां जालीं हे खबरेक. चली अजून तश्शी उरल्या. 'बेब्द्याची धूव आमकां नाका' अशें म्हणून कोणूच तिका सून करून घेनात!

बेब्दो बापूय, अन्याय बावडे धुवेचेर.

भुरगेपणांत एक देखाव पळेल्लो. आमचो एक शेजारी बेब्दो आशिल्लो. दिसूयभर तर्रर आसतालो. ताका एकूच पूत. आद्वोगाद जाल्लो. एक दीस रातचो घरा परतलो तेन्ना पुताची वासपूस केली. पूत अजून घरा येवंक नाशिल्लो. ताची वाट पळेत भायर बल्कांवार बसून रावलो. मध्यान रातचो पुताक लकत लकत येता तो पळोवन उसळ्ळो. 'तूं पियेवन आयला?... तुजेच न्हय, तुजे उपरांतच्या सात पिळग्यांचो सोरो हांवें एकल्यानूच पियेवन उडयला... तुवें पियेवपाची गरज ना.' अशें म्हणून तो पुताक मारूंक धांवलो.

बेब्द्याक समाजांत पत नासता ती नासता, बेबद्यां मजगतींय नासता. खासा आपूण बेब्दो आसतना पूत बेब्दो जाल्लो बेबद्याक नाका आसता, तसो बेब्दो जांवंयूय ताका नाका आसता. मागीर हे सभागी 'कम्बख्त तूने पीही नहीं' अशी खंयच्या तोंडान सोऱ्याची तुस्त गायतात, समजना. बेब्दे सोऱ्याचें तुस्त गीत गायतात तेन्ना धरून चलूंक जाय, हे फकत आपणालें दुबळेपण लिपोवपा खातिरूच ताची तुस्त गायतात. असल्या लोकांक तांचे इत्से आड लेगीत वचून सोऱ्याच्या व्यसनांतल्यान सोडोवंक जाय.

म्हजे कांय जिवाभावाचे इश्ट सोऱ्याच्या व्यसनाक लागून मरूंक फावना ते पिरायेर संवसार सोडून गेल्यात. कांय जाण ऐन तरणेपणांत म्हातारे जाल्यात. तांच्या घरच्यांच्यो ज्यो भयो भयो जाल्यात त्यो सुमाराच्यो न्हय. घरकारूच आपणाली जोड सोऱ्यांत काबार करपाक लागलो जाल्यार घराची धूळदशा जाले बगर कशी रावतली? भुरग्यांक सारकें जेवण मेळना. तांच्यो उण्यांतल्यो उण्यो गरजोय आवय भागोवंक पावना. बावडी खंय वचून रडटली? ती घोवा मुखारूच बसून रडपाक लागता. घोवाक तें सोंसना. तो मागीर तिका बडोवपाक लागता. असल्या घराण्यांतले तरणाटे भुरगे लोफर जाल्लेय पळेल्यात. सोरो मनशाचें मनीसपण ना करून उडयता. ताची तुस्त कशी करपाची?

'कम्बख्त तूने पीही नहीं' म्हणपी गालिबाक सोऱ्याचें व्यसन लागूंक नाशिल्लें जाल्यार तो जाला ताचेकूय हजार वांट्यानी व्हड कवी जातलो आशिल्लो. बाकीबाबांक लागूंक नाशिल्लें जाल्यार तांचें 'महात्मायन' पुरें जावन येतलें आशिल्लें. दोगांकूय सोऱ्यान व्हड जावंक दिले नात.

* * *

द्युत आनी मद्य – जुगार आनी सोरो – खंय मनशाचे दोन व्हड दुस्मान. मनीस सदां दुस्मानां आड झुजत आयला तसो दुस्माना सुवादिनूय जाला.

इन्द्र आर्यांचो एक कर्तुत्वी सम्राट आशिल्लो. दस्युंची दानाधिस्पट करपी, तांचीं शारां मोडून मातये भरवण करपी म्हूण ऋग्वेदान ताची तुस्त-गितां गायल्यांत तशीं ताच्या बेब्देपणाचींय गायल्यांत. ताका सोऱ्याचें (सोमरसाचें) व्यसन लागिल्लें. आपुणूय पियेतालो आनी दुसऱ्यांकूय पिवंक घालतालो. मागीर एकासारको बडबडत रावतालो. वेदांचे मुस्तींत पियेवन बडबडप हाची कोणाक लज बीज दिसनाशिल्ली आसूंक जाय. पुणून उपरांतच्या काळांत देशान पियेवपाचो म्हा-पातकांत आसपाव केलो. म्हा-पातकाची ताचेर छाप मारचे पयलीं सोऱ्या आड देशांत व्हडली चळवळ चलिल्ली आसूंक जाय. लोकमत तयार जाले उपरांतूच स्मृतींनी ताचो म्हा-पातकांत आसपाव केला. लोकमत तयार करपी रुशींत एक नांव मेळटा तें शुक्राचार्याचें. देव-कुळांतलो हो एक रुशी. पुणून गुरू जाल्लो दानव कुळाचो. तो संजीवनी विद्या जाणा आशिल्लो. मेल्ल्यांक जिते करतालो. दानवांनी ताका पियेवंक घालून ताचे कडली ही विद्या चोरून व्हेल्ली. तेन्ना ताणें सोरो सोडलो. इतलेंच न्हय, तर सोऱ्या आड ताणें चळवळूय चलयली. शुक्राचार्य एक व्हड क्रान्तिकारी आशिल्लो. जल्मान ब्राह्मण आसुनूय ताणें आपणाले धुवेचें लग्न एका क्षत्रीय चल्याकडेन केल्लें. ययातीच्या धाकल्या पुताक राजगादयेर बसोवन ताणें बापाय फाटल्यान व्हडल्या पुताक गादयेर बसोवपाची चाल मोडिल्ली. संजीवनी विद्या दानवांनी चोरून व्हेल्ली पळोवन ताका धसको बसलो आनी ताणें सोऱ्या आड चळवळ चलोवन ताचेर बंदीय हाडली. सोरो उश्टायतल्यांक ब्रह्महत्येचें पातक लागतलें असो फतवोय काडलो. शुक्राचार्याचे हे चळवळिचो परिणाम मदल्या वर्गांतल्या लोकांचेर खूब जाल्लो. समाजाचे नितिचो राखणदार चडसो मदलो वर्गूच आसता. फिरंगी येसर ह्या देशांत मदल्या वर्गांतलो कोण सोरो पियेनाशिल्लो. पियेतालो तेन्ना चोरयां पियेतालो. लिपोवन पियेतालो.

सोऱ्याक भौमान मेळपाक लागलो तो फिरंग्यांच्या (पुर्तुगिजांच्या आनी इंग्रजांच्या) काळांत. हे लोक जल्मस्थ पियेवपी. फिरंग्यांचे केलदावणेन आमचे शिकिल्ले सवरिल्ले मदल्या वर्गांतले लोकूय पियेवपाक लागले. फिरंग्यांनीच तांकां हें व्यसन लायलें. कांय जाण म्हणटात, मुद्दाम लायलें. कित्याक, तांकां हांगा सदांकाळ आपणालो शेक चलोवपाचो आशिल्लो. तांगेल्या शेकाक आडखळ मदल्या वर्गांतल्यानूच जावं येताली. ताकाच बेंतेकाप करून उडयतकूच ताचे पसून भंय उरचो ना अशें तांकां दिसलें. सोऱ्याक ताणीं 'फॅशनेबल' केलो.

ज्या समाजाक सोऱ्याचें व्यसन लागता तो केद्याय बुदवंत लोकांचो आसूं, ताच्यांत मनोबळ उरना. 'करतलों म्हळ्यार करतलोंच' वा 'करचों ना म्हळ्यार करचोंच ना, प्राण गेल्यार लेगीत करचों ना' हें मनोबळ ताच्यांत निखालूस आसना. आनी जाच्यांत मनोबळ नासता तो समाज दुबळो आसता. तो कसलेंच कर्तुत्व करूंक पावना. ताका कसोय आमूड, गोरवां जाल्ले वरी तो आमुडटलो. दाखयता ते दिकेन वतलो.

दोगांकूच हाची जाणवीक आसता – एक, विदेशी राज्यकर्त्यांक आनी दुसरे, देशी हुकूमशाहांक. लोकांक पांया पोंदा चिड्डून दवरपाक सोऱ्याचो जितलो आधार तांकां मेळटा तितलो तांचे फौजेचोय मेळना.

कांय जाण म्हणटात, सोऱ्याचेर खूब कर बसयात, लोक सोरो पियेवपाचो ना. अणभवान दिसून आयलां, कर बसयतकूच कांय जाण बनावटी, नकली, भरस आशिल्लो सोरो तयार करपी 'भट्ट्यो' सुरू करतात आनी लोक हो सोरो पियेवन केन्ना केन्ना मरतात. सोऱ्याचेर बंदीच हाडूंक जाय. ते बगर लोक ह्या व्यसनांतल्यान सुटपाचे नात.

'बंदी हाडिल्ली. ती अपेशी कशी जाली?' अशें कांय जाण विचारतात. अपेशी जाली खरी. पुणून खंय? जंय समाजसेवकांनी हें काम पुलिसां सुवादीन केलें थंय. पुलिसांक समाजाचे नितिचे राखणदार केले थंयच आमचें चुकलें. आमचें काम आमीच करपाचें. गुजरात राज्यांत हालीं हालींच

तें अपेशी जालां. इतलीं वर्सां जावंक नाशिल्लें. तमिळनाडूंत जावंक नाशिल्लें. थंयचे समाज कार्यकर्ते जागरूकपणान वावुरताले म्हूण जावंक नाशिल्लें. पुलिसांचो आधार घेनासतना वावुरताले. चड करून बायलो वावुरताल्यो. जंयच्यो बायलो जागरूकपणान लोकांचें सोऱ्याचें व्यसन सोडोवपाक मुखार सरतात थंय सोरो-बंदी चळवळ अपेशी जावपाक कारणूच ना. कायदो जाय, पुणून कार्यकर्त्यांचो वर्गूय जागरूकपणान वावुरपी आसूंक जाय.

सोऱ्याच्या व्यसनाक् जो समाज व्यसन मानिना तो समाज फाल्यां ड्रग ॲडिक्ट जाल्यार म्हाका अजाप जावपाचें ना. सरकाराक कितें? सरकार सोऱ्याचेर कर बसोवन आपणालें उत्पन्न वाडयता तशें ड्रग्सांचेर कर बसोवन वाडोवंक लागतलें.

बायलांनी सोऱ्याच्या व्यसना पसून समाजाक मेकळो करचो. देश चकासूर जावन तांचे सिद्धी कडेन पळोवपाक लागतलो.

खरेपणानशीं जण एकल्यान थारावंक जाय —

सोऱ्यान म्हजें मनीसपण हांव होगडावन बसतां. हांव सोरो उश्टावचों ना, ना म्हळ्यार नाच ना... केन्नाच ना... म्हाका जनावरां पाश्ट करचों ना.

जाल्यार प्रोहिबिशन हाडपाचो प्रस्नूच उपरासचो ना.

## खबरी – आमोरे वयल्यो (४)

***परतीं साहित्या कडेन येवंया. 'ब्रह्मांडांतलें तांडव' बरोवपाची इत्सा तुमकां कशी जाली? हें पुस्तक तुमच्या हेर निबंधां सारकें न्हय...***

**उजवाडाचे सूर** वाचलां? तांतूंत 'वर्ध्याची प्रेरणा' नांवाचो एक निबंध आसा. वर्ध्याक आसतना नक्षत्रां कडेन वळख करून घेतिल्ली. पुराय ब्रह्मांड ते मुस्तींत पळेल्लें. तेन्ना सावन म्हजी मळबा कडेन सदां नदर वचत रावल्या. रातचो भायर बशिल्लों आसलों, वा खंयच्यानूय खंयूय वतां आसलों जाल्यार चलता आसतना वयर नदर मारून मळबांत कोण कोण आयल्यात तें पळोवपाची म्हाका संवय जडल्या. कितल्या वर्सां पसून. १९८१त राजकर्णांतल्यान आंग काडून घेतलें तेन्ना खंय तरी पयस वचचें, वेगळ्या एका वातावरणांत कांय दीस भोंवन येवचें अशें खोलायेन दिसपाक लागलें. देशा भायर खंय तरी वचपाची इत्सा आशिल्ली. पुणून, खर्च म्हाका पुटवपा सारको नाशिल्लो. हांव जोडिना कांयच, पयशे म्हजे कडेन नात. अवचीत नदर टॅलेस्कोपाचेर पडली. म्हजे कडेन एक टॅलेस्कोप आशिल्लो. एका इश्टान दिल्लो. म्हयनो जानेवारीचो. मळब निव्वळ आसता ह्या म्हयन्यांत, कुपां नाशिल्लें. म्हळें, हे खेपे ब्रह्मांडाची भोंवडी मारून येवया... अद्भुत विश्व हें... सप्तकभर मळबाची नियाळणी केली. रातच्या आठांक बसचें, णव मेरेन मळब नियाळचें. मागीर बारांक बसचें, वरभर पळोवचें... उपरांत साडेचार पांचांक उठून पळोवचें... जागरणां जातालीं. पुणून जो आनंद मेळटालो तो 'ब्रह्मानंद सहोदर' आसतालो. म्हजे कडेन नक्षत्रविद्ये वेलीं कांय पुस्तकां आशिल्लीं. पुणून तीस वर्सां पोरणीं. मुम्बय दिल्लीक गेल्लों. येतना नवीं पुस्तकां घेवन आयलों. १९८० मेरेनचे नवे नवे सोद आशिल्लीं. ही विद्याच धा धा वर्सांनी गिरेस्त जायत गेल्या. देवयानींतलें केण पयलेच फावट पळेलें तेन्ना तें उजवाडाचीं साडे सात लाख वर्सां पयस आसा अशें हे लोक म्हणटाले. आतां तें बावीस लाख वर्सां पयस आसा म्हूण सांगतात. म्हळें, एक पुस्तकूच कित्याक बरोवचें न्हय? तीन म्हयने लागले, पयलो ड्राफ्ट पुरो करपाक. म्हणटासर पावसाळो सुरू जालो. पावसाळ्यांत मळबांत फकत कुपांच दिश्टी पडटात, नक्षत्रां लिपतात. तेन्ना, दुसरो ड्राफ्ट तयार करूंक बसलों. त्या वर्साच्या 'जागा'च्या दिवाळी आंकांत ताचो अर्दो वांटो दिलो. उपरांत पुस्तक आयलें. पुस्तक येतकूच हरशीं आनंद जालो तो जालोच. पुणून बाकीबाबांनी जेन्ना मुंजरत आमगेर येवन 'आमी सगळ्यांनी कोंकणीक कविता दिल्यो... तुवें एक महाकाव्य दिलां' अशें म्हणून म्हजी फाट थापटिली तेन्ना खूब म्हळ्यार खुबूच आनंद जालो. खूब फावटीं सांगल्या हांवें ही खबर खूब जाणांक. अजुनूय सांगपाक उबगना, इतली म्हत्वाची ती म्हज्या जिवितांतली.

***'महाभारत – एक अनुसर्जन' बरोवपाची प्रेरणा कशी जाली?***

म्हळें, एक म्हाकाव्य दिलां हांवें कोंकणीक 'ब्रह्मांडांतल्या तांडवा'च्या रुपान. पुणून हें महाकाव्य बाकीबाबांचे नदरेंतलें. बाकीबाब आमची पोटभर तोखणाय करपी. हे तोखणायेन भुल्लुसून वचूंक जायना. खरेलें महाकाव्य एक कोंकणींत हाडूंक जाय. रामायण म्हाका केन्ना आवडलें ना. हांव जाणां, रामायणान हिन्दू मन घडयलां म्हूण. पुणून कितलेंय जालें जाल्यार ताणें ज्यो देखी आमचे मुखार दवरल्यात त्यो अडेच्यो, कृत्रीम. एकूच चित्रण खरें, खासा रामाचें. ताचे सारके 'आदर्श' घोव अजून देशांत आसात – जड आंगाचे बायलेक कोण फुतफुतता म्हूण घरांतली भायर घालपी. बाकिच्यो देखी सगळ्यो अडेच्यो. महाभारत सामकेंच वेगळें. महाभारत देखी-बिखी दिवपाचे भानगडींत पडूंक ना. मनीस जशे आसात – आयजूय आसात – तशेच तांकां चित्रायल्यात महाभारतान. म्हूण महाभारतांतलीं सगळीं पात्रां खरीं, जिवीं तट्‌टटीत, गुणा-अवगुणांनी भरिल्लीं. सगळीं पात्रां म्हाका आयजूय आमच्या समाजांत दिश्टी पडटात. शकुनी, दुर्योधन, दुश्शासन, धृतराष्ट्र आयजूय आसात जगांत... सगळे चिरंजीव... फकत अश्वत्थामाच एकलो चिरंजीव न्हय. एकलोच दिश्टी पडना, तो कृष्ण... १९६१त जुनाचे ३० तारखे पसून सप्टेंबराचे १० तारखे मेरेन पणजेच्या क्वार्टेलार बंदिस्त आशिल्लों. एकलोंच, एका सॅलांत. त्या बंदिवासांत बापट शास्त्र्याच्या मराठी अणकाराचे बाराय खंड वाचिल्ले. इतलो प्रभावीत जाल्लों की पुराय महाभारत न्हय जालें तरूय कृष्णाचें जिवीत तरी बंदखणींत बरोवन काडचें अशें दिसलें. ताचो जल्मूच बंदखणींत जाल्लो. 'नवी शाळा' बरोवन जाल्ली. कृष्णाच्या जिविताक सुरवात करपाक, सुटलों. मागीर वेळूच मेळ्ळो ना. कोंकणीची – विलीनीकरण-विरोधाची – चळवळ सुरू जाली गोंयांत आनी हे चळवळींत घुसपून उरलों. रासवळ मळा वयलो कडेक सरून उरिल्लें आयुष्य साहित्य-निर्मितिच्या वावराक ओंपतलों अशें थारायलें तेन्ना 'ब्रह्मांडांतलें तांडव' बरोवन जायनाफुडें 'महाभारत' हातांत घेतलें. स वर्सां लागलीं म्हाका तें पुरें करपाक. इतलीं वर्सां कित्याक लागलीं हाची खबर पुस्तकाचे प्रस्तावनेंत सांगल्या. दिसाक धा धा वरां काम केलां हांवें. केन्ना केन्ना पंदरा पंदरा वरांय केलां. व्यासाक कोंकणींत महाभारत सांगचेंशें दिशिल्लें जाल्या तो तें कशें सांगतलो आशिल्लो असो विचार करून हें अनुसर्जन केलां. बरोवन बरोवन पुरो जातालें. केन्ना केन्ना खंयचें हातांत घेतलें कायशें जातालें. पुणून व्यासूच म्हज्यांत येवन बसला अशें दिसपाक लागलें आनी ताचे सुवादीन जावन तें बरोवन काडलें. कोंकणीक बरेंऽ कितें दिल्ल्याचो म्हाका संतोस भोगता.

***आनी तथागत?***

तेंवूय बरोवपाक चार वर्सां लागल्यांत. म्हाका एकल्यान विचारलें, बुद्धाचेर इतलीं पुस्तकां इंग्रजींत, मराठींत, हिन्दींत आसतना तुका नवेंच एक पुस्तक बरोवपाची इत्सा कित्याक जाली? हांवें जाप दिली, थोड्या विनोदान पुणून गंभीर रुपान दिली. म्हळें, 'एकूय पुस्तक म्हाका आवडलें ना म्हूण नवेंच एक बरोवचेंशें दिसलें...' धर्मानंदांचें 'भगवान बुद्ध' खूब गाजलां. कोंकणींतूय तें आयलां. पुणून, तांतूंत कितल्योश्यो गजाली येवंक नात. देखीक, 'प्रतीत्य समुत्पादा' संबंदान कितेंच ना. प्रतीत्य समुत्पादाचेर खूब जाणांनी खूब कितें कितें बरयलां, तें समजुपाक कठीण जावन पडलां अशें म्हळां आनी हें प्रकरणूच धर्मानन्दांनी सोडून दिलां. ते भायर, बुद्धा

संबंदान कांयच नकळ आशिल्ल्याक धर्मानन्दांचें पुस्तक उपकारा पडना. खूब जड जालां. बुद्धा संबंदान जाणा आशिल्ल्याचे तकलेंतले घयरांव काडपा खातिरूच तांणी तें बरयलां जावंक जाय अशें दिसलें म्हूण नवें बरोवपाक घेतलें. कोणें एकल्यान म्हळां, 'तुका खंयच्याय विशयाचो अभ्यास करचो आसत जाल्यार त्या विशयाचेर एक पुस्तकूच बरय...' हांवें हे देखीन तथागत बरोवपाक घेतलें. बरोवपाचे प्रक्रियेंत अभ्यास सगळ्यांत बरो जाता... पुस्तकां मेळनात हांगा... म्हजेकडेन थोडीं आशिल्लीं. नाशिल्लीं सोदून हाडलीं, विकतीं घेतलीं. तरी आसतना म्हाका जाय आशिल्लीं पुस्तकां अजून मेळूंक नात. देखीक, 'संयुत्त निकाय' खंयच मेळूंक ना. सारनाथ, सांची, दिल्ली... अख्ख्या संवसारांत सोदलें तरूय मेळूंक ना. बुद्धाच्या वेंचीक शंबरेक धर्मसंवादाचें एक परिशिष्ठ म्हाका तथागतांत जोडपाचें आशिल्लें तें उरलें. म्हाका जाय तीं पुस्तकां मेळ्ळीं. आनी वांचून उरलों जाल्यार 'धर्मचक्रप्रवर्तन' म्हूण नवेंच एक पुस्तक कोंकणीक दितलों म्हूण आसां. 'तथागता'चो sequel ग्रंथ म्हूण, 'उरिल्लो वांटो' म्हूण...

***तुमच्या सगळ्या पुस्तकांत तुमचें सगळ्यांत चड आवडटें पुस्तक खंयचें?***

पांच स भुरग्यांचे आवयक तुजें आवडटें भुरगें खंयचें म्हूण विचारल्यार ती कितें जाप दितली? सगळींच भुरगीं म्हजीं आवडटीं म्हणची ना ती? ह्या प्रस्ना बदला तूं बरयता तांतलो खंयचो फॉर्म तुजो आवडटो म्हूण प्रस्न केल्लो जाल्यार हांव अनमन नासतना जाप दितलों आशिल्लों **सांगातीं**त उकताडा आयला तो.' दिसपटयेचो फॉर्म तो. **वेळे वयल्यो घुलो** पुस्तकांत दिसपटयेचो एक प्रयोग केल्लो. ते उपरांत पाश्कालाचें 'पांसे' हातांत आयलें. ताणें **सांगाती** बरोवपाची प्रेरणा दिली. नित्शेन एके कडेन म्हळां, 'जें सांगपाक बाकिच्या लेखकांक एक पुराय पुस्तक बरोवचें पडटा, केन्ना केन्ना पुस्तक बरोवनूय ते तें सांगूंक पावनात तें आठ धा वळीं भितर सांगूंक येवंक जाय आपणाक.' एके तरेचें आव्हान हें आमकां सगळ्यांक. प्रसार माध्यमाचे वाडी वांगडा उतरांचें मोल उणें जालां. तें वाडोवपा खातीर उण्यांत उण्या उतरां भितर चडांत चड सांगूंक येता काय कितें तें पळोवंक जाय. 'ओथांबे' पुस्तकांत हे तरेचो प्रयोग केला. म्हाका हो फॉर्म मानवला. आनी, आत्मप्रौढी दिसना जाल्यार म्हणटलों, थोडो भोव सादलाय म्हूणूं येता. हांव कथाकार न्हय. आशिल्लों जाल्यार कथेच्याय मळार हे तरेचो प्रयोग करतलों आशिल्लों. 'जागा'च्या दोन तीन वा चार पानांत येता ती कथा एका पोस्ट कार्डांत आटोवं येता काय कितें, पळेतलों आशिल्लों. आटयल्याशी दिसूंक जायना, सारकी डिवॅलप केली ना, अशेंय दिसूंक जायना. जिस्ताजिस्त जाल्या अशें दिसूंक जाय. मुदयेर थीक कशी. कथा अश्योच बरोवंक जाय अशें वाचतल्यांक दिसूंक जाय. 'डायजेस्टां'चें युग हें. बरें काय वायट खबर ना. पुणून युगाक धरून बरपांत बदल घडोवन हाडूंकूच जाय. ना जाल्यर साहित्य फाटीं पडटा. एका काळार सगळ्या भाशांनी महाकाव्यां बरयताले कवी... हालींसाराक कोण बरयता व्हय? रवीन्द्रनाथांनी लेगीत बरोवंक ना. एक महाकवी आसून लेगीत. कवी आतां आठ धा वळीं भितर सांगपाचें सांगतात. छंदाचेंय बंधन मानिनात. आनी तरी आसतना असल्योय कांय कविता जयू सोंपतात थंय त्यो गुणगुणूंक लागतात... तशें कथांचें, निबंदांचें जावंक जाय... एक पळेलां? कथेचीं पुस्तकां आतां कोण छापिनात. बरेच त्रास पडटात व्हडल्या व्हडल्या कथाकारांक कथेचीं पुस्तकां छापपी प्रकाशक सोदून काडपाक. मराठी, गुजराती, हिन्दी – तिनूय संवसारांतली ही रड. तें कित्याक, इंग्रजीय कथांचीं – नव्या कथाकारांच्या कथांचीं पुस्तकां छापून आयिल्लीं पळोवंक मेळनात. कथा आतां फकत म्हयनाळ्यांनी वा वर्सुकी, सप्तकी नेमाळ्यांनी वाचूंक मेळटात. कथांचो संवसार असो ल्हान जाला, आंवळून आयला... लघुनिबंधांचींय पुस्तकां आतां कोण छापिनात. एका काळार मराठींत फडके खांडेकर काणेकर पु.भा. भावे... कितलेशेच जाण लघुनिबंध बरयताले. लोकांक वाज आयलो ह्या फॉर्माचो अशेंच मानचें पडटा. कादंबऱ्यो मात दोन दोन हजार पानांच्यो लोक वाचतात... एक सर्वे घेवंक जाय आशिल्लो, कोण कितें वाचता तें पळोवपाक. कोंकणींत आमी पुस्तकां छापून सरकाराच्या वा लोकांच्या गळ्याक बांदल्यांत. लोकांनी आपूण जावन घेतिल्लीं पुस्तकां खंयचीं हें बरोवप्यांक कळ्ळे बगर आमची साहित्य निर्मणी युगाक धरून कशी चलतली? सदांच आमी फाटीं उरतले. हो यत्नूच अजून करूंक ना आमी. केल्लो जाल्यार साहित्यीक चळवळी चलतल्यो आशिल्ल्यो. आमी भाशीक चळवळीच चलयल्यो. रवींद्रनाथांच्या व्यक्तित्वाची बंगाली साहित्याचेर येदी सावळी पडिल्ली की हे सावळेंत दुसरे कोण दिश्टीच पडनाशिल्ले. सगळे ल्हान, गिड्डे शे दिसपाक लागिल्ले. परिणामीं, नवीच एक चळवळ सुरू जाली बंगालींत, anti-Rabindrian. नवेच विशय, नव्योच शैली घेवन हे नवे लोक मुखार आयले. रवीन्द्रनाथ आतां फाटीं पडले अशें लोकांक दिसपाक लागलें. पुणून रवीन्द्रनाथ रवीन्द्रनाथ आशिल्ले. खासा तांणीच anti-Rabindrian शैलींत 'शेबेर कविता' नांवाची एक कादंबरी बरयली आनी हेय चळवळींत सगळ्यांत मुखार रावले. हे anti-Rabindrian चळवळिचेय ते फुडारी जाले. कोंकणी साहित्यिकांक ideology ना. पुरोगामी वा प्रतिगामी अशे कोण बरोवपी आसात व्हय आमच्यांत? हिन्दींत असल्यो चळवळी चलतात. 'अज्ञेय' एक दिग्गज कवी हिन्दींतलो. ताका बुर्झुवा कवी म्हणपी साहित्यकार आशिल्ले. तरूय 'अज्ञेया'चें stature इल्लेंय देंवूंक नाशिल्लें. ताणें एका वर्सा **तारसप्तक** म्हूण एक पुस्तक काडलें, कवितेचें. हिन्दींतल्या सात नव्या कविंच्यो पांच पांच कविता वेंचून, त्यो ह्या 'तारसप्तकां'त छापल्यो. उपरांत 'दूसरा तारसप्तक' काडलें. तातूंत आनीक नव्यो सात कविंच्यो पांच पांच कविता घेतल्यो. तीसरा तारसप्तक, चौथा तारसप्तक, पांचवा... हे भाशेन पांच तार सप्तकां काडलीं. ताका बुर्झुवा म्हणपी कवी लेगीत आपणाल्यो कविता ताणें घेतल्यात काय नात हें पळोवपाक आतुर रावताले. कित्याक, 'तार सप्तकां'त जाचो आसपाव जातालो तो हिन्दींतलो प्रतिष्ठीत कवी जातालो. ताका बुर्झुवा म्हणटल्यांचो लेगीत ताणें तार सप्तकांत आसपाव केल्लो. व्हड मनीस तो. स्तुती-निंदे पेल्यान गेल्लो. आमी प्रातिनिधीक कविता संग्रह, कथा संग्रह काडटात आनी प्रातिनिधित्व कोणाक दितात? कांय जाणट्या कवींक, कांय मदले पिरायेच्या कवींक. कांय नव्या कवींक. राजकी पक्ष तिकेटी वांट्टात तेन्ना एक किरिस्तांवाक, एक मुसलमानाक, एक नायकाक, एक गावड्याक, एक बामणाक – बामणांनी उंवाळून उडयल्ल्याय एकल्याक – तशे आमी कवी कथाकारांक प्रतिनिधित्व दितात. हांव सदां म्हणीत आयलां, आमी सरस्वतिचे पूत. सगळे सारस्वत आमी. जल्मान खंयचेय जातिचे आसूं मागीर. आमचो एकूच criterion , एकूच कस आसूंक जाय. Excellence चो. अपरुपायेचो. हे भाशेन आमी साहित्याची तर्जणी करतले तेन्नाच बऱ्यांतलें बरें साहित्य कोंकणींत येवंक लागतलें. ना जाल्यार 'ज्ञानपीठ पयलीं म्हाका मेळटलें' एकलो म्हणटलो. 'म्हाका पयलीं मेळटलें' अशें दुसरो म्हणटलो. तकल्यो फकत आमी फुगोवन घेतले, सुजोवन घेतले. खूब जाणांच्यो फुगल्यात, सुजल्यात. आमच्यांतले खूब जाण swollen headed – फुगिल्ले, सुजिल्ले तकलेचे जाल्यात ते साहित्यीक चळवळीच चलल्यो नात म्हूण. कोंकणी चळवळिचें सगळ्यांत दुबळें आंग खंयचें जाणा? आमी लीडर निर्माण केले, कार्यकर्ते निर्माण केले नात. लेखक निर्माण केले, वाचपी केले नात. पुस्तकां खूब छापलीं, सगळे कडेन पुस्तकां पावयलीं नात. एका तरी पुस्तकाची १५ हजारांची आवृत्ती उजवाडा येवची आशिल्ली. एक हजाराचीच येता. कांय जाण तर ५००/६०० काडुनूच संतोस मानतात. आमचें खंय तरी चुकता. खंय तें आमच्या लक्षांत येवंक ना आनी लक्षांतु हाडपाचो यत्नूय आमी करिनात.

(चलता)

# पडसाद

जाग (जून २०००) ताकतिकेन आनी उमळशिकेन उकतो केलो. सगल्यांत पयलीं संपादप्याचीं उतरां वाचलीं. शिक्षण आनी ट्युशनां ह्या विशयावेले विचार आवडले. वाडट्या चंगळवादांत शिक्षणाची वाट लागत आसा. वाट लागपाक आनिकूय वाव आसा हें दिसींदिसीं अणभवाक येता. संवसारांत शिक्षणासयत ज्या ज्या मळांची वाट लायल्या ती आमी, म्हळ्यार कथीत साक्षर, शिकिल्ल्या, सुसंस्कृत लोकांनीच.

'भास आनी समाज' माहिती दिवपी आनी भाशेक गिरेस्त करपी सदर. तें चालू दवरचें. दिलीप बोरकार हांचो स्तंभ रुचीक आनी सुवादीक. 'अध्यक्षपदां बहुजनहिताय' हीं उतरां अर्थान थपथपीत भरल्यांत.

'डॉक कामगार' कथेचो गुजराती भाशेंतल्यान हिंदी अणकार करप्याचें नांव दिवप ना हो ताचेर अन्याय. माया खरंगटे हांणी ह्या कोंकणी अणकारांत 'धुकळा-धुकळ' हें उतर वापरलां तें आवडलें. ह्या शब्दाचो उल्लेख श्रीपाद देसाय हांच्या शब्दकोशाच्या चवथ्या खंडांत आयला.

भौ. मनोहरबाबाचो माहितीपूर्ण लेख आवडलो. तातूंत Lambert Mascarenhas हो Goa Todayचो संपादक आसा असो उल्लेख आयला. सद्या लॅम्बर्टबाब ह्या नेमाळ्याचे संपादक नात.* Hills and Valleys हाचो अणकार दोंगर आनी गाळी असो केला. कवितेचे मुखावेले वळींत यमक सादूंक ताचो असो स्वैर अणकार घेतला आसतलो. पूण आतां हे विशीं academic भासाभास पळोवया. Valley म्हळ्यार गाळ न्हय. Valley म्हळ्यार दरी, खोरें वा देगण. Basin ह्या उतराचो हेरांमदीं एक अर्थ देगण असो जाता. Base हाका सदळपणान देग अशें घेवन तो घडला आसुंये. River-Valley हाका न्हंय-देगण अशें म्हणूंक फावो. गाळ म्हळ्यार घळ न्हय. Gorge म्हळ्यार घळ. गाळ म्हळ्यार दोंगरा माथ्यावेले सपाट जमनिचो कुडको. झुजागाळ, कटमगाळ अशा गाळिंचो संदर्भ अंत्रुजेंत जाता. अमूक वनस्पतिच्या चोम्याक पळोवन दोंगरामाथ्या वेल्या त्या वाठाराक वा कुडक्याक अमूक-गाळ अशें नांव पडलां आसुंये. गाळ म्हळ्यार उदका वागडा व्हांवन आयिल्ली जमीन असो एक अर्थ श्रीपाद देसाय हांच्या शब्दकोश पयल्या खंडांत आयला. गांवगिन्या, दोंगरा वाटारांनी रावपी गोंयकार अजुनूय असल्यो भुंयगोलीक आनी भुंयगर्भीय संकल्पना वापरतात. सूज्ञ वाचप्यांनी हो विशय पुर्णतायेक व्हरपाक मुजरत आनीक उजवाड घालचो ही आस्त आसा.

भौ. रवीन्द्रबाबांच्या 'पुल' लेखांत 'पास्कळ' अशें उतर आयलां. तें बाश्कळ वा बास्कळ वा बासकळ हाचे वेल्यान आयलां काय?

परेशबाबाले कवितेंत 'अरळप' अशें क्रियापद आयलां. 'अरळ' हें उतर मूळ कांय प्राकृत ग्रंथांनी आयिल्लें. जायत्या भासांनी तें विशेशण आनी क्रियाविशेशण म्हूण घोळटा. पूण 'अरळप' हें क्रियापद घोळटा काय? भौ. पुंडलीकबाब नायक 'अरसप' अशें एक क्रियापद वापरतात.

जाग वाचून रोखडोच सोंपलो. मागीर भौ. शंकर रामाणी जे रुचीन तो वाचता आनी सांसपिता तेच धर्तेर हांवें परत-परत चाळ्ळो. इतिहासाचीं पानां हे खेपे गायब कित्याक? ह्या आंकांत प्रूफ-रिडींग आदले वरी 'कारेंगाद' ना! आयज अंक उजवाडायतना ज्यो मर्यादा आनी समस्या येतात ताची पुराय जाण आसा. हें जागाचें परिक्षण न्हय. शब्दांचो ट्रॅफिक इन्स्पेक्टर जावन सगल्यांक हडकुपाचो वा कुतां काडपाचो हावेसूय हातूंत निखालूस ना. घोळणुकेंतल्या शब्दां परस वेगळे शब्द दिसले म्हणून दुबाव पयस करपाचो हो यत्न.

कोंकणी वाचपी विद्यार्थी गोंदळचे न्हय, कोंकणीची भलायकी घटमूट उरची, देखून हो प्रपंच. जाग परिपूर्ण जावचो, ताची विश्वासार्हता आनी दर्जो तगून वाडचो हीच तळमळ, हेच आंवडे! ते खातीर म्हजें सहकार्य आसाच... फुडल्या अंकाची वाट पळेत...

**— मुकेश थळी**, पणजी

वावुरपी संपादपी

'जाग' हांकां आदरपूर्वक नमस्कार

'जाग'चो जून २०००चो आंक आयज मेळ्ळो. भायलें पान उगडटकच 'संपादप्याली नदर' पु.लं.चेर पडिल्ली दिसली. म्हूण उमळशिकेन टिपण वाचून काडलें. आनी मात्यांत तिडक मारली. हाचें कारण म्हळ्यार पु.ल., तांचीं पुस्तकां, नाटकां, तांचो वाचक आनी प्रेक्षकवर्ग हांचे विशीं अर्दकुट्या गिन्यानान भरिल्लें तें टिपण आसा. इतलेंच न्हय, तर तांचें मोल उणें करपाचो एक खाशेलो दुष्ट हेतू तातूंत दिसून येता.

हो राग कित्याक? तर तेंय तातूंत स्पश्ट जालां. 'तुझे आहे तुजपाशी' (तुझपाशी न्हय) ह्या नाटकांत पु.ल. हांणी आचार्य अशें एक पात्र घालून गांधीवादी, सर्वोदयी मंडळिच्या कृत्रिम जगपाचेर, ढोंगीपणाचेर, अहिंसेचो जप करत दुसऱ्यांक त्रास (हिंसा) दिवपाचेर, तांच्या अहंकारी वागपाचेर प्रहार केल्लो. हें पात्र खंयच्याय एका आचार्याचेर बेतलेलें नाशिल्लें. पु.ल. हांचो उद्देश ह्यो प्रवृत्ती दाकोवपाचो आशिल्लो. आचार्य त्या प्रवृत्तिचे प्रतीक. संपादप्यांक तें इतलें झोमचें कारण कितें? की तेय त्या प्रवृत्तिंचे प्रतिनिधी जावन आसात? (पु.ल. हांणी एका खऱ्याच आचार्याचेर बरयलां असो संपादप्यांचो चुकिचो समज जावन खंयच्याय की एका आचार्या विशीं तांणी बेश्टें खूब बरयलां. पूण तांचें नांव सांगपाचें धैर्य मात दाकयलें ना. त्या बाबड्या आचार्याचेरूय हो अन्यायूच.)

टिपणाचे सुरवातीक पु.लं.च्या वाचकां आनी प्रेक्षकां विशीं विस्तारान फोडणिशी केल्या. आनी हे सगळे मध्यमवर्गीय 'बुर्झुवा' लोक अशें म्हणून नाक मुड्डिलां. कामगार, मजूर, दलितां मजगतीं शिकिल्लो कोणूय पु.ल.चो भक्त आसत काय म्हूण दुबाव दाकयला. साहित्य, संगीत, कला हांकां आयजमेरेन आश्रय दिला तो सुशिक्षित मध्यमवर्गानूच हें संपादपी जाणटात काय ना? कामगार, मजूर, दलितां मेरेन पावपी असो कोण साहित्यिक आसा? धक्को बसपाची आनेक गजाल म्हळ्यार, ह्या मध्यमवर्गाची विसकावणी करतना संपादप्यांनी सरळ जातिंची वळेरी दिवन, जातपातिचो आधार घेतला! संपादप्यांच्या दोळ्यांतलो जातीयतेचो मोतीबिंदू अजून करगलो ना की कितें?

'तुझे आहे तुजपाशी' ह्या नाटकाचे गुजरातींत वा हिन्दींत अणकार जाल्यात काय कितें, खबर ना अशें म्हणून, जाल्ले जाल्यार ते 'सक्केसफूल' जातले आशिल्ले काय कितें दुबाव आसा' अशें संपादपी म्हणटात. तांचे माहिती खातीर सांगपाचें म्हळ्यार, ह्या नाटकाचे गुजरातींत 'मीन पियासी', हिन्दींत 'आयिए जनाब', इंग्लिशींत 'इटस् ऑल युवर्स', कन्नडांत ''तनु निन्नदु मन निन्नदु' ह्या नांवांनी अणकार जाल्ले आसून ते मूळ नाटका इतलेच लोकप्रिय जाल्ले आसात.

पु.ल. हे कारवारच्या 'ऋग्वेदी' दुभाषी हांचे नातू. कोंकणी बरी जाणा जाल्ले. अस्सल कारवारी कोंकणी उलयताले. गोंयाविशीं मोग आशिल्ले. आमचेच ते. तांचे इतलो चारित्र्यसंपन्न, प्रामाणिक आनी दानशूर साहित्यिक सोदूनय मेळचो ना. तांचे विशीं मरणा उपरांत चार कौतुकाचे शब्द बरोवपाचे बदला, तांचेर दुस्वासान बरोवन संपादप्यांनी आपल्या कळमेल्ल्या मनाचेंच प्रदर्शन करून, 'जाग'च्या वाचप्यांच्यो भावना दुकयल्यात.

**— आनंद वर्टी**, मुंबय

---

* हो मनोहरबाबांनी खूब वर्सां पयलीं बरयल्लो लेख. ताचें इतिहासीक म्हत्व वळखून आमी तो तांचे कडल्यान उजवाडावपा खातीर मागून घेतलो. लॅम्बर्टबाब Goa Todayचे संस्थापक संपादपी आशिल्ले. सध्या ते ह्या म्हयनाळ्याचे संपादपी नात. पूण ह्या लेखांतलें 'सध्या' खूब वर्सां फाटलें ही टीप लेखा खाला दिवप गरजेची आशिल्ली. मुकेशबाबाले चिटी निमतान हें सांगपाची संद मेळ्ळी म्हूण ताका देव बरें करूं म्हणटां. — **वावुरपी संपादपी.**

# कोंकणी चळवळिची एकसश्टी

**संदेश बांदेकार, कारवार**

कारवार – एक सोबीत सुंदर कोंकणी वाठार. तो एका काळार गोंयचोच एक भाग आसलो. आज भारत सरकार आनी महाजन अहवालाच्या आडमुठ्या धोरणाक लागून हो कोंकणी वाठार कर्नाटकांत पडला. जेन्ना भाशावार प्रांत रचना जाली तेन्ना कोंकणीचें मूळपीठ गोंय पुर्तुगेजांच्या शेकातळा आसलें. भारत सरकारान भाशावार प्रांत रचना करपाक खूब ताकतीक केली. हाका लागून कारवार, सुपा, जोयडा, हल्याळ आनी उत्तरे कडलो सिंधुदुर्ग जिल्हो आनी सरभोंवतणचो दायजान, संस्कृतायेन आनी भाशेचे नदरेन एकरूप आशिल्लो कोंकणी वाठार क्रमान महाराष्ट्रांत आनी कर्नाटकांत विलीन जालो. हाका लागून कोंकणी समाज मात फाफसल्लो उरलो. विशाल गोंय वा विशाल कोंकण प्रांताचें जें माधवमामालें सपन आसलें तें आयज पर्यंत साकार जावंक पावलें ना हें काळ्या तळपार धवे शायेन बरयल्लें इतलें सत.

आठ जुलय १९३९ हो कोंकणी चळवळिचो दीस. ह्याच दिसा कारवारांत अखिल भारतीय कोंकणी परिशद सुरू जाली. कुमठा गांवच्या एका कोंकणी अभिमान्यान कोचीन ते मुंबय पर्यंत रावतल्या कोंकणी लोकांक एकठांय हाडचें काम ह्याच दिसा सावन सुरू केलें. कोंकणी लोकांची तळमळ आनी खासा ताच्या मनांत कोंकणी विशीं आशिल्लें प्रेम हे परिशदे फाटली मुखेल प्रेरणा आशिल्ली. स्वतंत्र कोंकणी राज्य स्थापन जावचें ह्या हेतून ही पयली साहित्य परिशद कारवारा सुरू जाली. त्या म्हान कोंकणी भक्ताचें, कोंकणी चळवळिच्या म्हालगड्याचें नांव माधव मंजुनाथ शानभाग. तांचो जल्म १८८७ वर्सा कुमठा म्हालांतल्या हेरवट्टा गांवांत जालो. तांगेलें मुळावें शिकप ह्याच गांवांत जालें. मुखावयलें शिकप घेवचे खातीर ते कारवारांत आयले. कारवारच्या कोडीबाग वाठारांत तांगेल्या नात्यांतल्याच भौ. भुजलेंगेर ते शिकपा खातीर रावले. मुखार तांणी पदवी ते वकिली मेरेनचें शिकप पुण्याच्या फर्ग्युसन कॉलेजांत घेतलें. मागीर ते कारवारा एक वकील जावन परतले. उपरान्त भारतभर स्वतंत्रतायेचें वारें व्हांवपाक लागलें. तें वारें कारवारांतूय भितर सरलें. माधवमामान तांतूंत वांटो घेतलो. तांचे जिणेचेर महात्मा गांधी आनी म्हान गांधीवादी काकासाहेब कालेलकर हांगेलो प्रभाव पडलो. हाका लागुनूच तांणी भारतीय स्वातंत्र्य संग्रामांत वांटो घेतलो. महात्मा गांधींचे 'सोरोबंदी' मोहिमेंत तांणी वांटो घेतलो. सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार तांगेलो कोंकणी भाशे विशिंचो मोग आनी अभिमान. ह्याच अभिमाना पासत तांणी मुंबय ते कोचीन मेरेनच्या वाठारांत रावतल्या कोंकणी लोकांक एकेच दोरयेन बांदच्या आनी विशाल कोंकणी राज्य स्थापन करच्या हेतून कारवारांत अखिल भारतीय पांवड्यार कोंकणी परिशदेची स्थापना केली. कोंकणी चळवळिची नांदी माधवमामान घाली. हे कोंकणी परिशदेक आज एकसश्ट वर्सां पुराय जातात. गेल्या साठ वर्सांत आमी जायतें वगडायलें आनी खूब कमी जोडलें. भारत देश स्वतंत्र जालो. भारतीय संविधानाची स्थापना जाली. भाशावार प्रांत रचना जाली. त्या वेळार माधवमामान कोंकणी प्रांत घडोवन हाडचो म्हण तेन्नाच्या भारत सरकारा कडेन मागणी केली. ही मागणी भारत सरकारान राज्य पुनर्रचना आयोगा मुखार ववरिल्ली. म्हान गांधीवादी काकासायब कालेलकरांनी तिका तेंको दिल्लो. पूण गोंय त्या वेळार पुर्तुगेज शेकातळा आसलें देखून ही मागणी मान्य ज़ावंक पावली ना.

ह्याच साठ वर्सांत कोंकणीक भारताची एक स्वतंत्र भास म्हूण केंद्र साहित्य अकादमीची मान्यताय मेळ्ळी. हाचे पयलीं ओपिनियन पोलान गोंय राज्य कोंकणी राज्य म्हण गवाय दिल्ली. एके वटेन तेन्नाच कोंकणीचे उदरगतीक दार उकतें जाल्लें. मागीर गोंय राज्याक घटक राज्य म्हण मान्यताय मेळ्ळी. मागीर कोंकणीच गोंय राज्याची अधिकृतपणान राजभास जाली. गोंय राज्यांत कोंकणी राजभास कायदो जालो (तो आयज पर्यंत कुकमाक आधार ह्या तत्वार आसलो तरी). मागीर सगळ्यांत व्हडली आनी समेस्त कोंकणी लोकांक अभिमानाची गजाल घडली, ती म्हळ्यार, कोंकणीक भारताच्या संविधानाचे आठवे वळेरेची मान्यताय मेळ्ळी. आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार, देवनागरी लिपी कोंकणीची अधिकृत लिपी जाली. तिका सगळ्या भारतीय भयण-भासां लागीं बसपाचो मान फावो जालो. कोंकणीची लिपी देवनागरीच असो ठराव कारवारांत जाल्ले पयले कोंकणी परिशदेन मानून घेतिल्लो हें आमी विसरूंक फावना. आज पर्यंत कोंकणी भास देवनागरी, रोमी, कन्नड, मलयाळम आनी फारसी-अरबी ह्या लिपयां मदीं वांटून गेल्ली. ह्या लिपयां सांगाताक कोंकणी लोक लेगीत वांटून गेल्लो.

गेल्या साठ वर्सांत कारवारकारांनी वा समेस्त कर्नाटकांतल्या कोंकणी लोकांनी कितें मेळयलें तें पळोवया. कर्नाटकांत दक्षिण कन्नड जिल्हो आसा. थंय कोंकणी लोक कन्नड लिपयेच्या आधारान कोंकणीचो वावॅर करतात. अशें म्हणटात की कन्नड लिपयेंत आयज बरें बरें साहित्य तयार जाता. पूण तें समेस्त कोंकणी लोकां मेरेन पावना, कारण हे लिपयेचो अडसर जाता. मानादीक साहित्य अकादमी पुरस्कार ह्या वाठाराक चडसो मेळना. खरी तोखणाय करची ती केरळच्या कोंकणी लोकांची. ह्या राज्यांत हे लोक संख्येन भोव कमी आसले तरी भारतीय संविधानान देवनागरीकूच कोंकणीची अधिकृत लिपी म्हण मान्यताय दिली तेन्नाच्यान हांगासरलो वावर देवनागरी लिपयेंत सुरू जालो. हांगा एक मर्तींत घेवची गज़ाल म्हळ्यार, ह्या राज्यांत महाराष्ट्र, गोंय आनी कर्नाटक ह्या राज्यां परस कोंकणी भाशीक लोक भोवच कमी आसात. तरी पूण मुळावें शिकप आनी पदवेच्या पांवड्यारूय हांगा देवनागरी कोंकणीचो वापर जाता ही अभिमानाची गजाल.

१९५६ वर्सा भारतांत भाशावार प्रांत रचना जाली. कारवारांत महाजन अहवाल लागू केलो. कारवार, सुपा, जोयडा, हल्याळ हो कोंकणी भाग सक्तीन कर्नाटकांत घालो. ह्याच महाजन अहवालांत अशें म्हळां खंय – कारवार, सुपा, जोयडा आनी हल्याळ तशेंच सरभोंवतणच्या वाठारांत भौसंख्येन कोंकणी उलोवपी लोक आसात. फुडाराक एक वेगळें कोंकणी राज्य स्थापन करची कुवत ह्या राज्यांत आसा. पूण आयज मेरेन तरी हें घडूंक पावलें ना हें समेस्त कोंकणी लोकांचें दुर्दैव. आज कर्नाटकांत लागीं लागीं २५ लाखां वयर कोंकणी भाशीक लोक आसात. गोंय राज्या परस ही संख्या कितल्याश्या पटिंनी तरी चड आसा. तरी ह्या राज्यांत हो लोक अल्पसंख्यांक जावन रावला.

१९८६ पासून कर्नाटकांत कन्नड राजभास कायदो खूब कडक केलो. आनी चड मार बसलो तो कारवारचे कोंकणी-मराठी संस्कृतायेक. कारण ह्यो दोनूय भयण भासो कारवारकारांली खासा वळख जावन आसल्यो. सरकारी पातळेचेर कन्नड खरपणान लागू केली. कारवारांतल्यो मराठी शाळा बंद जाल्यो. कारवारांत कोंकणी शाळा नासल्यो तरी मराठीची लिपी देवनागरी जाल्ल्या कारणान कोंकणीचो वावर हे लिपयेंतल्यानूच चलतालो. एकाएक कन्नड भास कोंकणी भाशीक लोकांच्या माथ्यार थापली. आज कारवारांत

मराठी शाळा बंद जावचेकडे आसात. थोड्यो बंद लेगीत जाल्यात. आज कारवारांत कन्नड शाळा, कॉलेजी आसल्यो तरी तांतूंत भुरग्यांक अभ्यासाचो अणकार कोंकणी भाशेंत करून सांगतात. अशें केल्यान तांकां अभ्यास बेगीन लक्षांत वता.

ह्या साठ वर्सांत कर्नाटक राज्यांत 'कर्नाटक कोंकणी अकादमी' स्थापन जाली. जंय कोंकणी भाशीक लोक भोवसंख्येन आसात थंय 'कोंकणी संस्कृती मंडळ', 'कोंकणी भाशा मंडळ' हीं मंडळां स्थापन जालीं. पूण देवनागरी लिपी मात कारवार वाठारा पुरती मर्यादीत रावली. शिरसी स्थापन जाल्ली 'उत्तर कन्नड जिल्हा कोंकणी परिशद' ही संस्था मात देवनागरी लिपयेचो वापर करता. हें तांगेल्या पयल्या अखिल भारतीय महिला अधिवेशनाच्या 'वरदा' हे स्मरणिके वयल्यान कळटा. कर्नाटकांत कन्नड भाशेचें वर्चस्व आशिल्ल्या कारणान कोंकणीची लिपी कन्नडच दवरल्या, जी आज कोंकणीचे उदरगतीक मारक थारल्या. देवनागरी लिपी सोंपी आनी संवकळिची लिपी. भारतभर लोक हिन्दी शिकतात, आनी हिन्दी देवनागरींत बरयतात. पूण कर्नाटक हें मान्य करिना. कर्नाटक सरकार अभिमानान सांगता की आमी कोंकणीचे उदरगती खातीर कोंकणी अकादमीची स्थापना केल्या. पूण हे समितीर बिगर कोंकणी भाशीक लोकूय आसात जांकां कोंकणीचो गंध लेगीत ना. कन्नड लिपयेंत बरें बरें साहित्य तयार जालें तरी समेस्त कोंकणी लोकां पर्यंत तें पावता? त्या पुस्तकांक साहित्य अकादमी पुरस्कार मेळटा? हाका जाप आसा, ना. कर्नाटक सरकाराक खरो कोंकणीचो मोग आसा जाल्यार कोंकणीक आकाशवाणी, दूरदर्शन आनी शिक्षण ह्या माध्यमांत फावो तशें आजून मेरेन स्थान कित्याक ना? मंगळूर विश्वविद्यालयांत पदवी पांवड्यार कोंकणी विशय दवरला पूण तो कन्नड लिपयेंत. भारतीय संविधानांत अशें सांगलां की भुरग्याक आपले मायभाशेंत मुळावें शिक्षण दिवचें. पूण ह्या राज्यांत कन्नड भाशेचें वर्चस्व आसल्या कारणान कोंकणी शाळा निर्माण जाल्योय जाल्यार पालक आपल्या भुरग्यांक त्या शाळांनी घालूंक तयार जावचीं नात. फकत कन्नड भाशेक दोश दिवूंक जायना. कारण आज कोंकणी लोक फिरंगी संस्कृताये कडेन वळत आसात. कोंकणी बद्दल तांकां मोग उणो जाला. आज कर्नाटकांत अशे लोक आसात, खुद्द कारवारांतूय आसात, जांकां एकूच खबर आसा – तें म्हळ्यार, 'कोंकणीक लिपी ना'. असलें आमगेलें कोंकणी प्रेम. फकत कोंकणी भास उलोवची इतलेंच आमकां खबर आसा. ही गजाल व्हडली दुर्दैवाची. कारवारांत थळावीं कोंकणी संस्कृती मंडळां आसात. तांकां सरकारी अनुदान जाय आसत जाल्यार मंडळाचो सगळो व्यवहार कन्नडांत तयार करून तो कर्नाटक कोंकणी अकादमीक धाडचो पडटा जाल्यारच तांकां आर्थिक मदत मेळटा.

आज कारवारांत स्वतंत्र आकाशवाणी केंद्र आसा. पूण तांतूंत कोंकणी कार्यक्रम कितले सादर जातात? एकूय जायना. कारवारांत भरिल्ल्या धाव्या अखिल भारतीय कोंकणी संमेलनांत गोंयचे नामनेचे सुटके झुजारी आनी कोंकणीचे नामनेचे कवी नागेशबाब करमली हांणी ह्या केंद्रा वयल्यान चडांत चड कोंकणी कार्यक्रम सादर जावचे असो ठराव मांडिल्लो. पूण तशें आयज मेरेन तरी घडलें ना. असोच ठराव शिरसी जाल्ल्या पयल्या महिला कोंकणी अधिवेशनांत मानून घेतिल्लो तोय फळादीक जावंक पावलो ना. दूरदर्शन आनी आकाशवाणीचेर कर्नाटक सरकारान कोंकणीक सारको न्याय दिलोच ना. भारतीय संविधानान आपली मायभास, आपलें निजाचें दायज, आपली निजाची संस्कृताय केळोवपाचो अधिकार दिल्लो आसा. पूण हें तत्व आमकां कारवारकारांक लागू जायना. तें लागू जाल्लें जाल्यार कारवारांत आनी समेस्त कर्नाटकांतल्या कोंकणी वाठारांत कोंकणी फुलतली, फळटली आसली.

हाचे उरफाटें, गोंयांत तेरा वर्सां जालीं राजभास कायदो पास जावन पूण तो आतां घडयेक फकत कुकमाक आधार ह्या तत्वार आसा. सरकारी व्यवहार सगळो फिरंगी भाशेंत चलता. ह्याच कारणाक लागून पालक आपल्या भुरग्यांक कोंकणी मुळावे शाळेंत घालूंक अनमनता. पयशे जास्त खर्च करचे पडले तरी ते भुरग्यांक फिरंगी भास शिकयतात. हेंच आमचे कोंकणी भाशेक मारक ठरता. मंत्री आमदार खासदार मतां मेळोवचे खातीर कोंकणीचो वापर करतात. कारवारांत सुद्दां अशें चलता. कारवार वाठारांतल्यान कोंकणी भाशीक मंत्री, आमदार आनी खासदार विधानसभेंत आनी लोकसभेंत पावले. ते फकत मतां मागूंक कोंकणी भास वापरतात. मागीर निवडून आयले बराबर कन्नड मारतात. आपूण कोंकणी भाशीक हो अभिमान सकला उडयतात. गोंयांतूय बी निवडून आयले उपरान्त आपल्याक कोंकणी कळचना ह्या तत्वान भौशीक वाठारांनी इंग्लीश मारतात.

कोंकणी भाशेचे उदरगतीक राजकी स्वार्थ हो सगळ्यांत व्हडलो धोको आयज उपरासला. एका वेळार भारतांत भाशावार प्रांत रचना जाली. तरी आयज लेगीत छत्तीसगढ, उत्तरांचल, वनांचल अशीं स्वतंत्र राज्यां जावचीं म्हण लोकसभेंत राज्यसभेंत बिलां येतात. मागीर विशाल कोंकणी राज्य जावचें म्हण वा कोंकणी भाशेची अस्थिरताय सोंपची म्हण कोंकणी भाशीक आमदारांक, मंत्र्यांक, खासदारांक केन्नाच कशें दिसना? हो प्रस्न गोंया भायल्या खासदारांनीय केन्ना उखलून धरलोच ना. सिंधुदुर्ग, गोंय, कारवार हो भाग भाशीक सांस्कृतीक आनी हेर नदरांनी एक आसलो तरी ह्या साठ वर्सांत तो एक जावंक पावलोच ना. हें फकत राजकीय स्वार्था खातीर जावंक पावलें ना अशें म्हाका तरी दिसता. विशाल कोंकणी प्रदेश निर्माण जावचो हो माधवमामालो आनी शणै गोंयबाबालो हावेस पुराय जावंक पावलोच ना. ज्या उद्देशान कारवारांत पयलें कोंकणी साहित्य संमेलन जालें तो उद्देश एकसश्ट वर्सां जालीं तरी पुराय जालो ना. म्हाका ह्या खिणाक कोंकणी भाशेची अस्थिरताय पळोवन माधवमामांक कारवारांत परत येवचें पडटलें आनी नव्या रुपान कोंकणी चळवळ परती सुरू करची पडटली अशेंच दिसता.

* * *

हो लेख बरोवंक हांचो आधार लागलो:

भौ. आर. जी. शानभाग, भौ. विश्वनाथ आर. अंकोलेकार, कारवार.

# फॉरेन बावली

मूळ हिन्दी: प्रमिला बहादुर

अणकार: उदय देशप्रभू

काम करून पुरो जाल्ली बिशनी आपल्या पदराक हात पुशीत ड्रॉइंग रुमांत बशिल्ल्या निरुपमाचे कुशीन येवन उबी रावली. निरुपमा तल्लीन जावन टीवीचेर चालू आशिल्ली सिरियल पळयताली. तिची नदर बिशनीचेर पडली. बिशनीचें पुरो जाल्लें मुखामळ पळोवन तिणें म्हळें, 'आतां कांय वेळ हांगाच बसून सुशेग घे.'

बिशनी थंयच सोफाचे कुशीक जमनीर बसली. सिरियल सोंपून टीवीचेर खबरो सुरू जाल्यो. खबरो दिवपी चली सांगताली, 'लंडनांत बार्बी बावलेचो वाडदीस तिका १६० हिरे आशिल्लो ड्रॅस घालून व्हडा दबाज्यान मनयलो. ही संवसारांतली सगळ्यांत म्हारग बावली.'

'आवय, व्हनीबाय', अजापभरीत जाल्ली बिशनी उलयली. 'बावल्यांचे म्हूण वाडदीस जातात खंय?'

तिच्या सादेपणाचेर हांसत निरुपमान म्हळें, 'तूंय कितली पिशी. आगो, ही पयशे जोडपाची एक रीत. आतां तूंच सांग, टीवीचेर हे सुंदर बावलेक पळोवन भुरगीं आपआपल्या आवय-बापायकडेन तसली बावली विकती घेवपा खातीर हट्ट करतलीं काय ना? हेंच तर ती बावली तयार करप्यांक जाय.'

'पूण व्हनीबाय, इतली म्हारग बावली कोण विकती घेतलो?'

'बिशनी, तुका खबर ना, फॉरेनाक लोकां कडेन पयशे खूब आसतात. आमच्या देशांतले भशेन थंय गरिबी आनी भिकारीपणा नात. थंयचो सरकार जाल्यार दर एका बेकाराक दोन वेळचें जेवण दिवपाची जापसालदारकीय घेता.

'खरेंच व्हनीबाय?' अजापभरीत जाल्ले बिशनीचे दोळे निरुपमाच्यो गजाली आयकून मोटे जाले. 'म्हणूनच दिसता भैया थंयच्यान परत येना. तुका आनी सायबाक हांगा एकलींच दवरल्यांत.'

'आगो ना. अशें कित्याक म्हणटा?' तिच्या त्या उलोवपान निरुपमा मात्शी दुखावली. 'दर वर्सा येता न्हय तो आमकां मेळूंक.' ताणें एकदम म्हळें.

'बरें व्हनीबाय, येतां हांव. आनीक दोन घरांनी कामांक वचूंक जाय.' अशें म्हणत बिशनी उठून चलूंक लागली.

बिशनी उलोवन गेली, पूण निरुपमाचें भावूक मन खूब विचार करपाक लागलें. शिकपाक म्हणून फॉरेनाक गेल्लो पूत थंयच रावलो. ताका आपल्या एकलेपणा विशीं कितलें सांगलें, दर खेपे एकूच सांगतालो, 'आई, थोडे पयशे जोडटां, मागीर परत येतां. ना जाल्यार म्हाका दिसतलें, हांगाच्या शिक्षणांत बेश्टोच इतलो वेळ आनी कश्ट फुकट घालयले.' पुताचीं हीं उतरां निरुपमाक ओगी करतालीं.

निरुपमाचो घरकार निरंजन सरकारी अधिकारी आसलो. थंय हेर जायत्यो सवलती मेळटाल्यो पूण पगाराच्या रुपान हातांत चड पयशे पडनासले. वयल्यान आनीक टॅक्स कापून वतालो. ताका लागून आपल्या पुताक फॉरेनाक धाडप हें एक तांचें सपन आसलें. केन्ना केन्ना सपनांत तीं इतलीं व्हांवून वतालीं की आपुणय फॉरेनाक गेल्ल्याचो तांकां भास जातालो. म्हणुनच तांणी पुताक नेट करून परत येवपा विशीं कांयच म्हणूंक नासलें. पूण निरुपमाक रिकामें घर खावंक येतालें. जायते फावटीं ती बिशनीचे तीन वर्सांचे चलयेक फुलोक आपले म्हऱ्यांत बसोवन घेताली. फुलोय बी व्हडे खोशयेन तिच्या म्हऱ्यांत रावतालें, निरुपमा ताच्या हातांत केन्ना केन्ना खावपाक बिस्कुत्यो वा चॉकलेटी दिवन अपुरबायेन ताचे कडेन उलयताली. वरांचीं वरां ताचें खुशालभरीत मुखामळ मोगान पळेताली.

पुताक परत हाडचे खातीर तांणी रोखडेंच पुताचें लगीन केलें. तांणी येवजिल्लें की पूत फॉरेनाक रावल्यार रावूं पूण आपलो संवसार थाटून रावचो. तांकां भितरल्यान घडये एक भिरांत आसली, पूत फॉरेन चलये वांगडा घुस्पलो जाल्यार हांगाचें नातेंय विसरून वतलो. रेवतीच्या रुपान निरुपमाक जी सून मेळिल्ली ती खूब समजिकायेची आसली. तिणें फकत आपलो संवसारूच थाटलो ना तर आपल्या घरकाराक जागृत दवरलो. आतां तर तांची चार वर्सांची एक चलीय आसा. तिचें नांव तांणी जुही दवरलां. फाटले फावट जेन्ना पूत-सून भारतांत आयिल्लीं तेन्ना जुही दोन वर्सांचें आसलें. तें पुराय घरांत बोवाळटालें. तीं परत वचपाच्या वेळार निरुपमाचें मन जुहीक आपले म्हऱ्यांत दवरून घेवंक सोदतालें. हे विशीं सुचोवणी केली तेन्ना रेवतीक आनी सौरभाक खूब वायट दिसलें. ल्हान भुरग्याक पयस दवरून खंयचीं आवय बापूय खुशाल जियेवंक शकतात? आनी हें तर सातासमुद्रा पलतडचें पैसपण.

तीं परतीं गेलीं तेन्ना निरुपमाक एकटेपण जाणवूंक लागलें. रिकामें घर तांकां खावंक लागलें आनी तेन्नाच फुलोच्या रुपान तिका एक खेळणें मेळ्ळें. जेन्ना जेन्ना फुलो आपले आवय वांगडा तिगेर येतालें तेन्ना ती ताका आपले म्हऱ्यांत दवरून घेताली. बिशनीकय सुशेग मेळटालो. दिसूय भर सगळे कडलीं कामां सोंपोवन परती घरा वतना ती फुलोक घेवन वताली.

हे फावट सौरभ घरा येवपाचो बोवाळ खेरितूच सो आसलो. कारण रेवतीन आपल्या पत्रांत बरयल्लें, 'आई, हे फावट तुमी जुही खातीर एक वेगळीच कूड तयार करून दवरात. ताका एकटें न्हिदपाची संवय जाल्या. तें आतां व्हडलें जालां.'

रेवतीचें तें पत्र निरंजन आनी निरुपमा परत परत वाचून खोशयेन

हांसतालीं. चार वर्सांचें चली आनी व्हडलें ज़ालां! अमेरिकेंत रावपी लोकांचें उलोवपूय विचित्रच कशें. तरी निरुपमान आपले नाती खातीर वेगळीच स्वतंत्र कूड तयार करून दवरली. कुडींतले आलमारींत ज़ाय तसलीं खेळणीं सजोवन दवरलीं आनी ज्या दिसा तीं भारतांत येवपाचीं आसलीं त्या दिसा निरंजनान जायते बोमाडे हाडून नातिचे कुडींत बांदून दवरले. नातीक मेळपाचे खोशयेन तोवूय भुरगो जाल्ले भशेन दिसतालो.

मागीर व्हड व्हड सुटकेसिंनी घुटमळत सौरभ आनी रेवती आपले ल्हान चलयेचो हात धरीत एकदांचीं पावलीं. रोखडेंच घर भरून गेल्ले भशेन दिसलें. निरुपमा सामकी खोशयेन् फुल्ली. याद करून करून तिणें पूत-सुनेचे आवडिचे जिन्नस जेवणा खातीर केले. त्या दिसा तांणी बिशनीक फुलो वांगडा घराच दवरून घेतिल्लें. बिशनीची न्हिदपाची वेवस्था वयले माळयेर आशिल्ले कुडींत केल्ली. फुलोक वयर कुडींत न्हिदोवन बिशनी रातीं उसरां मेरेन सकयल निरुपमा वांगडा काम करताली. अर्दे राती उपरांतूच तांकां न्हिदपाक फुरसत मेळ्ळी.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं सगळीं जाणां उसरां मेरेन न्हिदून उरलीं. बिशनी जागी जाली. ती एकदम गडबडली. कारण फुलो हांतुणार नासलें. भियेवन ती सकयल आयली. पूण फुलो खंय दिश्टी पडलें ना. इतल्यान जुहीचे कुडींतल्यान फुलो हांसता तें आयकूंक आयलें. थंय वचून पळेत जाल्यार फुलो जुही वांगडा कॉटिचेर चडून बसलां आनी दोगांय एक जावन कसलें तरी पुस्तक पळेतात.

'आगो, सकयल देंव', बिशनी भियेवन आड्डली. 'कोणेंय पळेलें जाल्यार...'

फुलो सकयल देंवताले, पूण जुहीन ताचो हात धरून म्हळें, "डोंट गो.' पूण फुलोन आवयक पळोवन थंय सावन धांव मारली. ताका खूब भूक लागिल्ली. बिशनी रांदचे कुडींत नाश्तो तयार करता म्हणसर घरांतलीं सगळीं जागीं जाल्लीं. जुही रांदचे कुंडिच्या दारार उबें रावन फुलोक बारीक नदरेन पळेतालें. फुलो जमनीर बसून दुदान भरिल्ल्या पेल्यांत ब्रॅड बुडोवन खातालें. खातां खातां तकली हालोवन खोशीय जातालें.

'कशी आसा बिशनी?' अशें विचारीत रेवतीन रांदचे कुडींत येवन बिशनीच्या खांदार हात दवरलो.

'बरें आसां सूनबाय... तुमी सगळीं बरीं आसात मू?'

'हय बिशनी. आरे, हें फुलो इतलें व्हड जालें? हांवें हाचे खातीर कितलेशेच फ्रॉक बी हाडल्यात.' अशें म्हणत रेवतीन ताचे तकले वेल्यान मायेन हात भोंवडायलो.

मेजार सगळीं जाणां एकठांय नाश्तो करपाक बसलीं. बिशनीन आलू पराठा केल्लो, जो धंय आनी लोणच्या वांगडा खावपाक बरो लागता. जुहीकय आलू पराठा धंय आनी लोणच्या वांगडा खावंक बरो लागतालो. अमेरिकेंत जायते फावटीं सुटयेच्या दिसा रेवती आलू पराठा करून् दनपारच्या जेवणाचो वावर उणो करतालें. मागीर तीं सगळीं भायर भोंवूंक वतालीं. रातचें जेवण भायरूच खंयच्याय हॉटेलांत करून घरा येतालीं.

आयज रेवतीन जुहीचे प्लेटींत आलू पराठा दवरलो तेन्ना ताणें तो खालोच ना. म्हणूंक लागलें, 'आय वॉन्ट मिल्क अँड ब्रॅड.'

रेवतीक अजाप जालें, कारण दूद पियेवपाक जुही सदांच नखरे करतालें. तरी ताणें ताका एक पेलो दूद दिलें आनी ताचे प्लेटींतलो पराठा काडून पाव दवरलो. जुही पावाचे कुडके काडून दुदांत बुडोवन खावंक लागलें. थोड्या वेळा आदीं ताणें फुलोक खातना पळयल्लें. उपरांत पेल्यांतलें सगळें दूद सोंपोवन तें फुलोचो हात धरून भायर खेळपाक गेलें. दोनूच दिसांनी फुलो आनी जुहीची इश्टागत बरी जमली. फुलो आपले आवय बराबर रातचें घरा वतालें. दिसूयभर जुही वांगडा खेळत तांगेरूच आसतालें.

जुहीची खेळण्यांनी अख्खी भरिल्ली एक बॅग आसली. तांतूंत एका परस एक म्हारग खेळणीं आसलीं. फॉरेनाक 'बार्बी डॉल' नांवान फामाद आशिल्ल्यो कांय बावल्यो इतल्यो सुंदर आसल्यो की पळयतल्यांचें मन दिपकावन वतालें. सगळ्या बावल्यांचें बारीक कमर आनी रेखीव आंगलोट पळोवन त्यो सर्गलोकांतल्यान आयिल्ल्यो परयो कश्यो दिसताल्यो.

जुहीन आपले कुडींतल्या मेजार त्यो सगळ्यो बावल्यो दाळून दवरिल्ल्यो. तें सदांच फुलोक तांचीं नांवां परत परत सांगतालें. 'ही जोजो, नीनी, मोना. ही एलीस.' फुलो वांगडा उलयतां उलयतां जुहीय मात्शें मात्शें ताची भास उलोवंक लागिल्लें. दुख्खीं-खंती जावन फुलो त्यो बावल्यो पयसुल्ल्यान पळेतालें. तें तांकां हात लावंक भियेतालें, बावली घडये तुटली फुटली बी जाल्यार आवय मारतली म्हूण.

एक दीस सकाळीं फुलो आपले आवय वांगडा तांगेर आयलें तेन्ना ताच्या हातांत एक बेताचो करण आसलो. जुही त्या करणा म्हऱ्यांतल्यान पासयो मारपाक लागलें. उपरांत ताणें विचारलें, 'हें कितें?'

'बावल्यो', फुलोन लजेत लजेत म्हळें.

'म्हाका दाखय' म्हणत जुही ताका घेवन भायर बल्कांवांत बसलें. बिशनी भितर काम करपाक गेल्ली. फुलोन आपली पोटली सोडयली. रंगरंगयाळे कपडे घाल्ल्यो ल्हान व्हड कितल्योश्योच बावल्यो जळामळा शिंवरल्यो. त्या बावल्यांक पळोवन जुही खोशी जावन ताळयो मारूंक लागलें. त्यो सगळ्यो बावल्यो ताच्या बार्बी बावल्यां परस वेगळ्यो आसल्यो. तांचे परस चड रंगरंगयाळ्यो आसल्यो. कांय बावल्यो लेंगो-ओडणी घालून व्हंकलो जावन आसल्यो. कांय सलवार-कुर्ता घालूनं आसल्यो, जाल्यार कांय बावल्यो साडयो न्हेसून आसल्यो. नकली भांगराच्या वस्तिंनी त्यो सजयल्ल्यो. जुहीचें मन त्या सुंदर बावल्यांनी घुसपलें. बेगीबेगीन भितर आपले कुडींत वचून ताणें सगळ्यो बार्बी बावल्यो हाडून फुलो मुखार उडयल्यो आनी म्हणूंक लागलें, 'ह्यो सगळ्यो बावल्यो तुका घे आनी म्हाका त्यो दी.'

हें आयकून फुलो रडपाक लागलें. ताणें बेगीबेगीन आपल्यो बावल्यो एकठांय करून परतून पोटलेंत बांदून दवरल्यो.

फुलो पोटली बांदूंक लागतकच जुहीन रडपाक सुरवात केली. ताच्या रडपाचो आवाज आयकून रेवती आनी निरुपमा दोगांय धांवून भायर आयलीं.

'कितें जालें?' निरुपमान विचारलें तेन्ना जुहीन सांगलें, 'म्हाका जाय म्हळ्यार जाय.' आनी उलयतां उलयतां जुहीन फुलोचे पोटलेक हात घालो. इतल्यान फुलोन पोटली घेवन थंय सावन धांव मारली. तें बद्द रांदचे कुडींत गेलें आनी आपले आवय फाटल्यान वचून लिपलें.

'आगो कितें जालें?' बिशनीन विचारलें जाल्यार फुलोन म्हळें, 'तें म्हज्यो बावल्यो व्हरता.'

'मागीर दी ताका', बिशनीन हांसत म्हळें. 'हांव तुका आनीक करून दितलीं.'

'ना, हांव दिवचें ना.' फुलोन पोटली आनीक मात्शी आंवळून धरली. तेन्नाच रेवती रांदचे कुडींत आयलें आनी बिशनीक म्हणूंक लागलें, 'तूं खेळणींय तयार करता, बिशनी?'

'आगे, खंय सूनबाय...' बिशनी मात्शी लजेली आनी म्हणूंक लागली, 'कातरून उरिल्ल्या कपड्यांच्या चिनक्यांचें कितें जातलें? तरी भुरग्यांचें मन रिज़वणे खातीर बावल्यो शिंवून दितां.'

'बरें, पळोवया तरी' म्हणीत रेवतीन फुलोच्या हातांतली पोटली घेतली आनी ती उसयली. तांतुंतल्यो बावल्यो पळोवन तें अजापीत जालें. कितल्यो सोबीत बावल्यो आसल्यो त्यो! तोंड, दोळे, नाक आनी कान खूब बारकायेन सुयेन शिंविल्ले. हात पांय बरे तरेन शिंवून काडिल्ले. केदी कला आसा हे बिशनीच्या हातांत! तरी पूण ती घराघरांनी लोकांगेर आयदनां घांसता. मनांतल्या मनांत कसलो तरी विचार करून रेवती उलयली. 'बिशनी,

हांवें ह्यो बावल्यो जूही खातीर विकत्यो घेवंच्यो केल्यो जाल्यार विकतलें?'

'अशें किते उलयता सूनबाय? जूही खातीर हांव वेव्हार पळेतलीं? चल फुलो, दी जूहीक त्यो सगल्यो बावल्यो. तुजे खातीर हांव आनीक करून दितां.'

'ना, हांव दिवचें ना.' हात पांय आपटीत फुलो नेटान रडपाक लागलें.

'नाका, आसुंदी बिशनी' म्हणत रेवतीन ती गजाल थंयच सोंपयली.

रेवती आनी सौरभ परत वचपाक आतां फकत तीन-चार दिसूच उरिल्ले. सगळें सामान थोडें थोडें बांदून दवरप जातालें. घरा आयिल्ले खेपे नाका आसतनाय इतलो बाजार जातालो की परत वतना सदांच सुटकेसिंनी जागो उणो पडटालो. इतल्यांत बिशनी कपड्यांची एक पिशवी घेवन आयली आनी रेवती कडेन दीत म्हणूंक लागली, 'घे सूनबाय.'

'कितें गो हें?' रेवतीन पिशवी उकती केली आनी अजापीत जाली. भितर खूब सोबीत आनी ओडलायण्यो अशो पांच बावल्यो आसल्यो. त्यो सगळ्यो इतले बारकायेन तयार केल्ल्यो की फॉरेनच्यो बार्बी बावल्यो तांचे फुडें कांयच न्हय. जूही जाल्यार त्यो पळोवन सामकें खोशयेन नाचपाक लागलें. उपरांत ताणें आपल्यो सगळ्यो बार्बी बावल्यो हाडून बिशनी फुड्यांत दवरल्यो आनी म्हळें, 'ह्यो फुलोक दी.'

बिशनीन मायेन जूहीचें माथें थापटीत म्हळें, 'ना पुता, ह्योवूय तूंच दवर. फुलो इतल्या म्हारग बावल्यांचें कितें करतलें?'

रेवतीन आपले पर्सींतल्यान पांचशें रुपया काडून बिशनीच्या हातांत दवरीत म्हळें, 'बिशनी, तुजे कलेचें हांव मोल करिना. तुजी कला अनमोल. खरेंच, तुज्या हातांत जादू आसा. तुजी कला कपड्याच्या ह्या निर्जीव बावल्यांनी जीव भरता. अशें दिसता, दर एक बावली आतां उलोवंक लागतली.'

आपली तोखणाय आयकून बिशनी लजेली. आयज मेरेन तिचे कलेची अशी कोणेंच वासपूस करूंक नासली. गरीब बाबडे बिशनीक आपल्या हातांतली ही कला तिच्या दुख्खी मनाक सांवरपी एक साधन कशी जावन आशिल्ली. दीसभराच्या कश्टां उपरांत थकिल्ल्या मनाक हातांच्या त्या रेखीव हालचालीं उपरांत थाकाय मेळटाली. घरकार आरिचो दुयेंती आसलो आसलो आनी मांय दम्याची. दोगांय हांतरुणार पडून उरतालीं. तांकां पोसपाची जापसालदारकी बिशनीचेर आसली. फुलोच्या रुपान एक भुरगें आसलें जाका ती इत्सा आसून लेगीत शिकोवंक शकनासली. दळदिऱ्या पागेरांत घुसपल्ली बिशनी आपले चलयेक राजकुंवरिच्या रुपांत पळोवंक आशेताली. पूण तिचो इलाज नासलो. म्हणून तिची ती इत्सा ती बावल्यो सजोवन पुराय करपाचो यत्न करताली.

बावल्यांची पोटली जुहीच्या हातांत दितना रेवती विचार करतालें, परदेसांत बार्बी बावल्यांक लागून कितलो बोवाळ जाता आनी पालक केदेंय व्हडलें मोल फारीक करून आपल्या भुरग्यां खातीर त्यो बावल्यो विकत घेतात. हांगा आमच्या गांवांत घरा घरांनी असली कला शिंवरून पडल्या, जिका एकठावपाक हांगा कोण ना. अशा ह्या कलाकाराच्या हातांतली कला अशीच लोकांचीं आयदनां घांसतां घांसतां शेणून वतली. वा आपल्या भुरग्यांचे मन रिजवप्पे खातीर जोगला भाशेन वाट काडीत एक दीस नाच्च जातली.

निमाणें वचपाचो दीस आयलो. सगलें सामान पेटयेंत एकठाविल्लें. जुहीच्या खेळण्यांची सुटकेसूय रेवतीन नीट बांदून दवरिल्ली. सगल्यो बार्बी बावल्यो बऱ्यो करून कपड्यां भितर गुठलावन दवरिल्ल्यो, त्यो मोडूंक फावना म्हूण. जूही परत परत भायर भितर करतालें. रेवती भायर वचनाफुडें ताणें सगळ्यांच्यो नदरो चुकोवन आपले सुटकेसींतल्यान बार्बी बावल्यो काडून भायर दवरल्यो आनी तांच्या जाग्यार बिशनीन तयार केल्ल्यो सगळ्यो बावल्यो खूब जतनायेन गुठलावन भितर दवरल्यो.

* * *

# भास आनी समाज

माधवी सरदेसाय

जल्मा आयिल्ल्या भुरग्याक रडूंक शिकोवचें पडना, ताका तें 'आपशीं' येता. उपरान्त शिकयले बगर हें भुरगें उमथेंय पडटा, दिमखुऱ्यांनी वता आनी एक दीस दोन पांयांचेर उबें रावन पावलूय मारूंक लागता. जाण्टेल्यांनी 'गाडो' वा 'वॉकर' हाडून दिलोना जाल्यारय भुरग्याचें कांय अडना. 'सैमू'च ताका चलूंक शिकयता.

भास मात अशी मनशाक 'आपशीं' येना. ताका ती हेरां कडल्यान शिकची पडटा. समाजूच मनशाक भास दिता.

मोनजातिंच्यो 'भासो', तांगेल्या जिविताच्या हेर आंगां वरी, तांकां सैमा कडल्यानूच मेळिल्ल्यो आसतात. शेवण्यांक घोंटेर बांदूंक कोणें शिकोवचें लागना तशें गीत गावंकूय ताका कोणा कडल्यान शिकचें पडना. देखून पांजऱ्यांत एकमुळी वाडिल्ली साळोरी हेर साळोऱ्यां वरीच रडटा. असलोच एकमुळो मोर मेकळ्या मोरां वरीच शेपडेचो आयणो करून नाचता.

मनीस असो एकमुळो वाडलो जाल्यार ताचे जिबेर आपशींच भास फुट्टली व्हय? अशें घडिल्लें जाल्यार कोंकणी आवय-बापायचें भुरगें संवसाराचे फाटीर खंयूय, खंयचेय भाशीक भोंवतणेंत वाडूं, ताका आपले आपूण कोंकणी उलोवंक येतली आशिल्ली. हिन्दी आवय-बापायल्या भुरग्याचे जिबेर आपशींच हिन्दी उतरां फुट्टलीं आसलीं. पूण अशें जायना. भुरगें जे भाशीक भोंवतणेंत वाडटा तीच भास ताचे जिबेर घोळपाक लागता. कन्नड आवय-बापायलें भुरगें फ्रेंच जोडप्यान पोसकें घेतलें आनी फ्रेंच भोंवतणेंतूच भुरग्याची वाड जाली जाल्यार ताचे जिबेर पयलीं वयलीं उतरां फ्रेंच भाशेचींच घोळूंक लागतात. फ्रेंचूच ताची 'पयली भास' – 'आवय भास' जाता. समाजांत रावनूच मनीस भास शिकता.[1]

भास आनी समाज हांकां अशीं एकामेकां पसून वेगळीं काडूंच नज. मनीस-जिणेच्या हेर सामाजीक सांस्कृतीक आंगांनी पळोवंक मेळटा तशें मनशाले भाशेंतूय वेगळेपण, विविधताय पळोवंक मेळटा. हीं सगळीं आंगां काळा वांगडा बदलतात तशी ताची भासूय बदलता. मोनजातिंच्या भासां भितर ह्यो विविधतायोय दिश्टी पडनात आनी असले हिसपांत घेवपा सारके बदलूय घडून येनात. देखून गोंयचो कावळो आनी कोचीचो कावळो दोगूय एकेच भाशेन रडटात. इतलेंच न्हय, शेंकड्यांनी वर्सां आदीं रडटाले तशेच आयजूय बी ते रडटात.

समाज मनशाक भास दिता आनी भास समाजाक नदर दिता. भोंवतणचो सैमीक तसो सामाजीक संवसार भाशेक लागुनूच आमकां वळखिचो – अर्थपूर्ण जाता. देखीक, 'कलकलप' आनी 'धडधडप' (काळीज) हांतुंतलो फरक भाशेंत हीं दोन उतरां आशिल्ल्यानूच आमकां होलमता. हेच भाशेन 'सणसणप' आनी 'शिणशिणप' (दाड/दांत), 'कणकणप' आनी 'उसळप' (तकली), 'दुखप' आनी 'वळप' (पोट, पांय बी) हे सारकेले दुखिंचे भेदूय अशेच उतरांक लागून आमी पारखूंक पावतात. नात्याचे उतरावळिचीय हांगा देख घेवं येता. कोंकणी आनी इंग्लीश भासांच्या नात्याच्या उतरावळिंची तुळा करून पळेली जाल्यार दोन भासांनी नात्याची सुवात (space) कशी दोन तरांनी बांदून हाडल्या तें नदरेंत भरले बगर रावना. कोंकणी 'मामा' इंग्लीशींत uncle जाता. इतलेंच न्हय तर 'मावसो', 'आतेचो घोव' हेय अर्थ इंग्लीशींत uncle उतरांतूच आसपावतात. इंग्लीशींत जंय एकूच cousin उतर मेळटा थंय कोंकणींत कितलिशीं उतरां मेळटात. कोंकणी भाशिकाक चड नातीं दिश्टी पडटात जाल्यार इंग्लीश भाशिकाक उणीं नातीं दिश्टी पडटात. दुसऱ्या उतरांनी सांगचें जाल्यार कोंकणी आनी इंग्लीश मनीस नात्यां कडेन वेगळ्या वेगळ्या नदरांनी पळेतात.

भासूच आमगेली जिणेदिश्ट घडयता. भास आमगेली संस्कृताय घडयता. इतलेंच न्हय तर सैमाक लेगीत ती आपणाले फास्केंत घालता. भास आमकां दाखयता तेंच, तितलेंच आमकां दिश्टी पडटा. मनशाचो पुराय संवसार हो खरेपणानशीं भाशेचोच संवसार. हे तरेचें एक भोव प्रभावी आनी वादग्रस्त मत्त एडवर्ड सपीर आनी बॅंजमिन ली वोर्फ हांणी २०व्या शतमानाच्या पयल्या अर्दांत मांडिल्लें.[2]

भास आमगेली जिणेदिश्ट कितलिशी घडयता ह्या प्रस्नाची सारकी जाप अजून जाणकारांक दिवंक येना. आनी भाशेचो आमचे नदरेचेर खूब प्रभाव आसा हेंय तांकां न्हयकारूंक येना.

१९७०त बेझिल बर्नस्टायनान भाशेच्या वापराच्या संदर्भांत restricted code आनी elaborated code हो भेद जाणकारां मुखार हाडलो.[3] Restricted code आनी elaborated code म्हळ्यार, सदळ अर्थान, अनुक्रमान भाशेचो अनुपचारीक आनी उपचारीक वापर. हांतुंतूय होच – आमचे भाशेक लागून आमकां कशी आडखळ वा संवकळ जावं येता

---

१. पुराय जीवसृश्टींत 'भाशीक पात्रता' एकल्या मनशा भितरूच आसा ह्या निष्कर्षाचेर आयज जाणकार पावल्यात. ही 'भाशीक तांक' मनशाक सैमान दिल्या हातूंत दुबाव ना. चिंपाझीक मनशा वरी वॉशिंग मशिनांत घालून कपडे उमळुपाक शिकोवं येत, आयदनां धुवन जाग्यार घालुंकूय ताका शिकोवं येत. पूण ताका मनशा वरी 'भाशेंत घोळपाक' शिकोवचें जालें जाल्यार मात ताच्यो सैमान घालून दिल्ल्यो मर्यादा उकत्यो जातात – हुशारांतलो हुशार चिंपाझीय भाशेक उणो पडटा.

२. माधवी सरदेसाय १९९३: भासाभास: ७०. अदीक म्हायती खातीर पळेयात: Sapir, Edward 1921: Language: An Introduction to the Study of Speech. New York: Harcourt, Brace & World. आनी Whorf, Benjamin L. 1956: Language, Thought & Reality: Selected Papers (ed.: J.B. Carroll). New York: Wiley.

३. Bernstein, B. 1970. 'A sociolinguistic approach to socialization: with some reference to educability' in J.J. Gumperz and D. Hymes (eds.) Directions in Sociolinguistics, Holt, Rinehard & Winston (1971).

होच विचार एके नवे तरेन फुडें आयलो. मध्यम वर्गांतलीं भुरगीं कामगार वर्गांतल्या भुरग्यां परस शाळेंत चड बरें यश मेळयतात; हीं भुरगीं कामगार वर्गांतल्या भुरग्यां परस अदीक हुशार आसतात म्हूण हें घडना; मध्यम वर्गांतल्या भुरग्यांचें भाशीक exposure च तांकां हें जैत मेळोवन दिता. ह्या भुरग्यांक restricted code आनी elaborated code दोनांयची संवकळ आसता. शाळेंत elaborated code त घोळूंक येवचें पडटा, देखून तांचें फावता. हाचे उरफाटें, कामगार वर्गांतल्या भुरग्यांक फकत restricted code ची संवंय आसता. देखून शाळेंत तीं फाटीं उरतात.

भास एक सामाजीक संस्था. ती एक सामाजीक वस्तुस्थिती. समाजाचे मान्यतायेचे बुन्यादीर उबी आशिल्ली ती चिन्नांची वेवस्ता – फेर्दिनां द सोस्यूरांल्या ह्या मुळाव्या विचारान आर्विल्ल्या भासविज्ञानाक वाट मेकळी करून दिली. सोस्यूरान दिका दाखोवचे पयलीं सुमार शंबर-एक वर्सां भाशेचो अभ्यास एके तरेचे इतिहासीक घुंवळेंत आशिल्लो. भासां भासां मजगतचीं 'रगताचीं' नातीं सोदून काडप, रगताच्या नात्यांतल्या भासांतल्यान नादा-अर्थाचें सारकेपण दाखोवपी उतरां पेल्यान काडप आनी तांची तुळा करून नाद-बदलांचे नेम सोदून काडप होच त्या काळा वयल्या भाशेच्या अभ्यासाचो मुखेल उद्देग आशिल्लो. जीवविज्ञान आनी भौतीकविज्ञान ह्या सैमीक विज्ञानाच्या फांट्यां कडेन नातें जोडिल्ल्या ह्या अभ्यासान भाशेकूच सैमांतल्या जिवांचे आनी वस्तिंचे पंगतीक व्हरून बसयल्ली. सोस्यूरान परती तिका समाजाचे मांडयेर व्हरून बसयली. तिची खरेली सुवात तिका मेळोवन दिली.[४]

सोस्यूरान भाशेच्या 'भासपणा'चेर बोट दवरलें. भाशेचे वेवस्थेचो, तिचे बांदावळिचो अभ्यास जावंक लागलो. पूण भाशेच्या विज्ञानाक घटमूट सिद्धांतीक बुन्यादीर उबें करपाच्या बोवाळांत भाशीक वेव्हारा (parole) फाटल्यान उबी आशिल्ली भाशीक वेवस्ता (langue) भासविज्ञानाचो विशय – object of inquiry जाली. सामाजीक कारणांक लागून आयिल्लें भाशीक वेगळेपण – तिचें म्हत्वाचें सामाजीक आंग सगळें 'भाशीक वेव्हारां'त उरलें. सोस्यूरांच्या आनी तांचे परंपरेंतल्या उपरान्तच्या जाणकारांच्या वावरांतूय ह्या सामाजीक आंगांची उवेखणीच जाली.

च्यॉमस्कीन भासविज्ञानाच्या मळार व्युत्पादक व्याकरणाचें (Generative Linguistics) पर्व सुरू केलें. पूण च्यॉमस्कीचें भासविज्ञानूय खंयच वखदाक मेळचोना असल्या पुरायेन एकरुपी आशिल्ल्या भाशीक समाजांतल्या आदर्श (काल्पनीक ?) परिपूर्ण उलोवप्या-आयकुप्याक मदीं दवरूनूच विकसीत जाल्लें.[५] मनशाची भाशीक तांक, भाशेचें व्याकरणी गिन्यान (Linguistic Competence) भासविज्ञानाचो विशय जालें. आनी भाशेंतलें वेगळेपण, तिचे भितरली विविधताय भाशीक प्रयोगाचो (Linguistic Performance चो) वांटो जावन उरली. अभ्यासाचो विशय म्हूण तिचेर हेय परंपरेंतल्या जाणकारांची नदर पडलिना.

फ्लॉरियन कोलमस म्हणटात, भासविज्ञानाचे सगळे सिद्धांत मनशां पसून कुशीक काडिल्ले भाशेचे सिद्धांत. आयच्या मुखेल (mainstream) भासविज्ञानांत भाशे विशिंच्या सामाजीक वेगळेपणाक कितलें 'म्हत्व' मेळटा ताची देख म्हूण ते एका भासविज्ञानिकाल्या बरपांतलो एक उतारो दितात —

It is obvious that different communities exhibit variation in their speech: people in Paris speak French while those in Washington speak English and those in Montreal cope with both; it is equally clear that children don't speak the same way as their grandparents, that males and females are not necessarily identical in their linguistic abilities, and so on. In short, any social parameter whatsoever may be the locus of some linguistic difference. Unfortunately nothing of interest to linguistic theory follows from this. (N. Smith; 1989: **The Twitter Machine**: 180.[6]

हे फाटभुंयेर, भासविज्ञानाच्या सिद्धांतांत सुवात नासतना आनी आपणाली अशी वेगळी सिद्धांतीक बुन्यादूय विकसीत जावंक नासतना समाज-भाशेच्या नात्याचो अभ्यास सुमार पन्नास-एक वर्सां फाटीं सुरू जालो. ह्या अभ्यासाक, आयज समाजभासविज्ञान (sociolinguistics) ह्या नांवान वळखतात. भाशेचो वापर आनी समाजाची बांदावळ हांचे मजगतच्या तरेकवार नात्यांचो समाजभासविज्ञान अभ्यास करता. हांतूंत समाज-भाशेच्या सगळ्या तरांच्या संबंदांचो अभ्यास आसपावता. भाशेच्या सामाजीक आंगांचो अभ्यास करपी समाजभासविज्ञानाक Micro-sociolinguistics म्हणटात, जाल्यार समाजाच्या भाशीक आंगांचो अभ्यास करपी समाजभासविज्ञानाक Macro--sociolinguistics म्हणटात. कोंकणींत आमी हांकां अनुक्रमान 'समाजभासविज्ञान' आनी 'भाशेचें समाजविज्ञान' अशें म्हणूं येत. समाजभासविज्ञान भासविज्ञानाक चड लागिंचें जाल्यार भाशेचें समाजविज्ञान समाजविज्ञानाक अदीक लागिंचें अशें सामान्यतायेन मानतात. पूण समाज आनी भास हांच्या नात्याचो पुरायेन अभ्यास करतलीं जाल्यार ह्या दोनूय नदरांनी ह्या नात्या कडेन पळोवप गरजेचें.

मनीस उलयता तेन्ना नकळटना सामाजीक नकाशा वयली आपणाली सुवातूय ती दाखोवन दिता. जाती, वर्ग, वर्ण, धर्म हांचेर आधारिल्ली सामाजीक बांदावळ भाशेंत बेस बरी झळकता. भुगोलीक अंतर भाशेंत वेगळेपण हाडटा हांतूंत व्हडलेंशें अजाप ना. उलोवप्यांचे घोळणुकेक पडिल्ल्या भुगोलीक मर्यादांक लागून हें वेगळेपण येता. पूण जाती, वर्ग, वर्ण, धर्मांचे भेदूय अशेच उलोवप्यांचे घोळणुकेक मर्यादा घालतात. तांकां एकामेकां पसून पयस काडटात. देखून पिळग्यां पिळग्यां सावन शेजरा शेजरा रावपी बामण आनी शेटूय वेगळे भाशेन उलयतात; हिंदू आनी क्रिस्तांव – गोंयांत तरी – वेगळे भाशेन उलयतात. हें सामाजीक अंतराक लागून आयिल्लें वेगळेपण. जायते फावटीं सामाजीक अंतरूच भुगोलीक अंतरा परस मनशाक चड वेगळायता म्हणपाचें समाजभासविज्ञानाचो अभ्यास सांगता.

लिंग, पिरायेचे सैमीक भेदूय मनशां खातीर निखटे सैमीक भेद उरनात – ते सामाजीक भेदूय जातात. देखीक लिंगाचो भेद घेवंया, चली फकत चली म्हूण **जल्मा आयली** म्हूण भागना, समाज तिका चली **जावंकूय** शिकयता. तिका 'चली-मनशे' वरी बसूंक, चलूंक, हांसूंक, उलोवंक सगळें शिकचें पडटा तशें उलोवंकूय शिकचें पडटा. दादल्याकूय असोच, समाज दादलो करता. दादलो आनी बायल हांगेले भाशेंतले भेद उण्या अदीक प्रमाणांत सगळ्या भासां भितर आसतात. कोंकणींतल्योच कांय देखी घेवंच्यो जाल्यार हेळे काडून उलोवप चडशें बायल-मनशेच्या उलोवपांत आयकूंक मेळटा. 'आंवंय आंवंय', 'शीऽऽ' सारकेलीं उतरांय बायल मनशेचे जिबेर

---

४. सोस्यूराच्या – २०व्या शतमानाच्या सुरवेच्या काळांतूच समाजविज्ञानान मूळ धरिल्लें हें आमी विसरूंक फावना.

५. Linguistic theory is concerned primarily with an ideal speaker-listener, in a completely homogenous speech community, who knows its language perfectly and is unaffected by such grammatically irrelevant conditions as memory limitations, distractions, shifts of attention and interest, and errors (random or characteristic) in applying his knowledge of the language in actual performance. Noam Chomsky 1965: **Aspects of the Theory of Syntax**: pg.3

६. Florian Coulmas (ed.) The Handbook of Sociolinguistics. Oxford: Blackwell Pub. Ltd. 1997: pg. 4 (Intro).

चड घोळटात. म्हणी, ओपारी बायलो चड वापरतात.[७] गाळी दादल्यांचे जिबेर चड येतात. 'टो टो फो', 'साडे आठ' ('सामको टो टो फो / साडे आठ मरे तूं') सारकेलीं स्लँग उतरां चल्यांचे भाशेंत अदीक आसतात. असलीं कितलिंशीं वेगळेपणां दादले-बायलांच्या भाशेच्या वापरांत पळोवंक मेळटात.

वेगळ्या वेगळ्या सामाजीक वर्गणांतले लोक वेगळे वेगळे तरेन उलयतात तसो एकलोच/एकलीच उलोवपी वेगळ्या वेगळ्या संदर्भांत वेगळे वेगळे तरेन उलयता. इश्टा वांगडा उलयतना आमी 'काल वाजपेयी बरोऽ उलयल्लो' म्हणटात. पूण हेंच मत माचये वयल्यान वा रेडियोर घेतिल्ले मुलाखतींत उक्तावचें जाल्यार 'काल वाजपेयी बरेऽ उलयल्ले' म्हणचें पडटा. 'मेलो', 'गेलो', 'भायर पडलो', 'देवागेर गेलो', 'खंवसलो' हीं समानअर्थी उतरां खरीं पूण खंयचें उतर खंय वापरप आमकां खबर आसचें पडटा. भारतीय भासांनी घरांतल्यान भायर सरून वतना 'वतां' म्हणनात, 'येतां' म्हणटात. हेंय भारतीय भास शिकतना शिकचें पडटा. ह्या भाशेच्या वापराच्या गिन्यानाक डॅल हायम्स Communicative Competence म्हणटात.[८] हें Performanceचें व्याकरण. भाशेच्या वापराच्या व्याकरणाचें गिन्यान आमी जोडटात तेन्नाच आमकां भास सारकी येता -- भाशेची ती ती शैली, तें तें उतर आमी ते ते सुवातेर वापरतात.

समाज आपणाले भाशे वांगडा वा भासां वांगडा 'जें कितें करता' ताचो अभ्यास भाशेच्या समाजविज्ञानांत आसपावता. भाशीक ओडी, मोग वा उवेखण्यो, भास तगोवन दवरुपाचे यत्न वा सोडून दिवपाचे हुटहुटे, भाशीक गंड, भौभाशीक समाजांतल्या वेगळ्या वेगळ्या पोट-समाजां मजगतचें दिवप घेवप -- हे सगळे भाशेच्या समाजविज्ञानाचे विशय. ह्या विज्ञानाक कितलेशे तरातरांचे प्रस्न लागतात. अमकीच एक भास समाजाक आपली कित्याक दिसता? वा कित्याक दिसना? कोंकणी भाशीक 'मराठीवादी' कोंकणी उलयतात, कोंकणी बरयतात पूण तरी ते कोंकणी कडेन कित्या खातीर identify जावंक पावनात? तशे, 'इंग्लीश भाशीक कोंकणीवादी' कोंकणी कडेन कित्याक identify जातात? समाज एक भास सोडून दुसरी भास कशी, कित्याक आपणायत्ता? गोंयांतल्यान पुर्तुगेज वचना फुडें सुमार चारशीं वर्सां पुर्तुगेजीक आवयभास मानीत आयिल्ल्या गोंयकाराचे जिबे वयलीय पुर्तुगेज वता आनी थंय इंग्लीश मूळ धरूंक लागता. अशें कित्याक घडटा? लंडनाक वचून स्थायीक जाल्ल्या कोंकणी भाशिकाची दुसरी पिळगी कोंकणी सोडून इंग्लीश आपणायता. पूण थंयच स्थायीक जाल्ल्या हिंदी भाशिकांची दुसरी पिळगी इंग्लीश आपणायतना जिबे वयली हिन्दी मरूंक दिना, अशें कित्याक घडटा? कोंकणी मनीस मुंबय वतकच रोखडोच मराठी शिकता आनी मराठी मनीस गोंयां वर्सां संकिनी रावनूय कोंकणी शिकूंक पावना, अशें कित्याक घडटा? प्रमाणिकरणाची गरज समाजाक कित्याक जाणवता? वा, प्रमाणिकरण नाका अशेंय समाजाक कित्याक दिसता? राष्ट्रभाशेच्या धोरणाक विरोध कित्या खातीर जाता? इंग्लीश ॲक्संटाचे हिन्दी कडेन आयकुपी अदबीन पळेता आनी हिन्दी ॲक्संटाचे इंग्लीशिचीं मात फकांडां मारता, अशें कित्याक लागून घडटा?... हे सगळे भाशेच्या समाजविज्ञानाचे प्रस्न.

समाजभासविज्ञान आनी भाशेचें समाजविज्ञान हो भेद कितलोय 'वेवस्थीत' दिसलो तरी समाज आनी भाशेच्या नात्याचो अभ्यास करतना दोनूय नदरो तितल्योच म्हत्वाच्यो, तितल्योच गरजेच्यो हें आमी विसरूंक फावना. 'समाजभासविज्ञान' हें उतर ह्या मळा वयले जाणकारूय भाशेच्या समाजविज्ञानाक आसपावन घेवपी रुंद अर्थानूच वापरतात. भारता सारकेल्या भौभाशीक देशांत समाजभासविज्ञानाक विशयांची मेजवानी भरपूर. ते भायर आमच्या देशांत ह्या फांट्याचो अभ्यासूय भोव गरजेचो. समाजभासविज्ञान सदांच 'फिल्डां'त रावन आयिल्लें शास्त्र. देखून आमगेलीं भाशीक धोरणां थारायतना आमकां ताचो भोव आधार जावं येता. एकूच देख घेवची जाल्यार, शिक्षणीक मळार सामान्यतायेन प्रमाण बोलयेचो वापर जाता आनी प्रमाण बोली चडशी प्रतिश्टितांची दिसपट्ट्या वापरांतली बोली आसता. देखून मुळाव्या पांवड्या सावन शिक्षणांत आमी प्रमाण बोलयेचो आग्रो धरतात तेन्ना ज्या वर्गाक शिक्षणाचो सोंपेपणान लाव घेवंक मेळटा ताचेच खातीर आमी शिक्षण अदीक सोंपें करतात. अप्रमाण बोलयो उलयतल्यांच्या भुरग्यांचेर एके तरेन हो अन्यायूच सो जाता. समाजभासविज्ञानाच्या अणभवांत असल्या वेळार आमकां वाट मेळूं येता.

---

७. म्हणी, ओपारी म्हळ्यार समाजाचें पारंपारीक, रासवळ गिन्यान. आयज आमचे जिबेर म्हणी व्हडल्योश्यो घोळनात. आमी दिशीं दिशीं व्यक्तिवादी जायत चल्ल्यांत देखून आयच्या समाजा वयली म्हणिंची पकड सदळ जायत चल्ल्या अशें म्हणूं येत व्हय?

८. अदीक म्हायती खातीर पळोवचें D.H. Hymes 1971: **On Communicative Competence** in J.B. Pride & Janet Holmes ed. Sociolinguistics: Selected Readings. Harmondsworth: Penguin Books 1972 (1987): 269-293.

# तीर-सुवादीक कॉलम

**दिलीप बोरकार**

म्हज्या मेंदवाचो जाला सद्या चोथो.
म्हळ्यार कितें हाची म्हाकाय बरीऽ समजणी ना.
तरी हांव असलीं अर्थ कळनाशिल्लीं वाक्यां वापरतां.
म्हाका तांचो अर्थ कळूं नाका
पूण तीं आयकतल्याक वाचतल्याक ज्युस्त कळटात.
शकुंतला, पुर्णानंद बी निवेदन, सुत्रसंचालन करतनाय अशेंच करतात.
तोंडाक येतात तीं उतरां वाऱ्यार मोखतात
आनी आयकुपी कानाचे पांटुले करून तीं फुलां अचळय झेलतात.
देखून हळू हळू म्हाकाय मातशें धाडस कशें आयलां.
तर म्हज्या मेंदवाचो चोथो जावपाचें कारण म्हळ्यार कोंकणी भास.
शणै गोंयबाबान कोंकणी गोंयकारांची भास म्हळी.
म्हाकाय बाबड्याक ताचें म्हणणें खरेंच दिसलें.
तशें म्हाका कोणाचेंय म्हणणें रोखडेंच खरें दिसता.
कोणें तरी एकदां म्हळें, तूं लेखक म्हूण कोंकणी अकादमीचेर वतलो.
म्हाका तें खरें दिसलें. पूण तो गेलो. हांव थंयच उरलों.
आतां तो थंयच्यान परत येना आनी म्हाका वचूंक मेळना.
ही केन्नाची गजाल आतां? जालीं आसतलीं कितलींशीं वर्सां!
जालें तें जालें. फाटल्यो गजाली काडून खंत करपांत अर्थ ना.
अकादमीचेर वचप म्हळ्यारूच कितें अंतीम सत्य न्हय.
गोपाळराव मराठी अकादमीचेर गेलो तरी खंय कितें घडलां?
विष्णू कला अकादमीचेर गेलो तरीय कांय घडूंक ना.
मुखारूय कितें घडटलें म्हणपाचें खरेपण ना.
तर, हांव सांगतालों ती गजाल आमचे कोंकणी भाशेची.
शणै गोंयबाबाक लागून म्हाका तिचें पिशें लागलें.
ती भास न्हय, ती बोली अशें जायते लोक आड्डताले,
हांवें कानामनार घेतलेंना आनी तिका हांवें भास मानली.
म्हजे सारकीं पिशेपणां हाचे आर्दी साहित्य अकादमीन केल्लीं.
कोंकणी स्वतंत्र साहित्यीक भास अशें तिणें मानून घेतलें
त्या वेळार शशिकला काकोडकार ह्या पिशेपणाक हांसली.
ती हांसता म्हूण वसंत बापट बी लोक हांसले.
तीं दोगांय हांसतात म्हूण गोंयकारूय हांसपाक लागले.
हे गोंयकार थोडे गोंयांत आशिल्ले तर थोडे मुंबयंत.
अशे वेगळे वेगळे रावन हांसपांत कसलेंच शाणेपण ना
ताका लागून आपली शक्त विभागून कोंकणीचो फायदो जाता
अशें तांकां होलमलें आनी मुंबय आशिल्ले आंगले बिंगले गोंयां आयले.
कोण म्हणटात तांकां मुंबयच्यान निरुपेगी म्हूण धांवडायले.
हांचें म्हणणें आपली शक्त एकसंघ करूंक ते गोंयां आयले.
पयलीं ती नाशिल्ल्यान साहित्य अकादमीचें फावलें.
आमी घाळ उरिल्ल्यान कोंकणीक स्वतंत्र भाशेचो दर्जो मेळ्ळो.
आठवले तर म्हणूंक लागलो, तांणी बाटल्यो दिवन मान्यताय घेतल्या.
म्हाका हांगा दोन बाटल्यो भायर व्हरतलो जाल्यार परमीट लागता.
आठवले तेच अडचणीक लागून मुंबय सोडून गोंयां आयलो.
अशें आसतना कोंकणीवादी दिल्ली बाटल्यो कशे व्हरताले काय?
हे कोंकणीवादी केन्ना कितें करीत हें सांगूं नज हेंच खरें.
बाटल्यांचेर काम जातालें जाल्यार साहित्य अकादमी गोंयां हाडपाचे.
देशांतलो भाशाप्रस्न झगडीं झुजां विणे अळंग सुटपाचो.
उपरांत गोंयांत राजभाशेचो प्रस्न मुखार आयलो.
मराठीवाद्यांनी चिंतलें, आतां हांसपांत कांयच अर्थ ना.
सगळ्यांनी एकठांय जावन आतां संगठीतपणान रडूंक जाय.
कित्याक, उलयल्यार तांचे भाशेक कोण मराठी म्हणनाशिल्ले.
ती भाशा जाणकारांक मराठी परस वेगळी भास दिसताली.
थोड्यांनी जाणवाय करून तिका मराठीची बोली म्हळी.
पांपु ते विष्णू मेरेन बोलींतल्यान बरोवंक लागले.
हीं नाडेपेन्नां पळोवनूय म्हजे तकलेचो चडूच चोथो जालो.
ह्या लोकांनी आपली जिंदगी गोंयांत बरबाद केली
अशेय डायलॉग अदींमदीं तकलेंत येवंक लागले.
येदे व्हडले हे भाशातज्ञ खरें म्हळ्यार दिल्लींत आसपाचे.
पूण पर्मिला आर्केड्च्या चवथ्या माळ्यार लेगीत हांकां कोण व्हरना.
अशे हे विचित्र परिस्थितींत कोंकणी राजभास जाली.
राजीव गांधीन तर तिका सरळ आठवे वळेरेंत घाली.
तशें घडचें म्हूण हांवेंय तेरा वर्सां पयलीं बोवाळ घाल्लो.
आतां आनी हे भानगडींत पडप ना म्हूण निश्चिंत जाल्लों.
पूण परत एकदां त्या पांडुरंग रावतान बील हाडलें.
ह्या पांडुरंगाक भाशेचें बील आनी हेर खंयचेंय बील हातूंत फरक दिसना.
झांट्ये आड झगडटना बाबड्यान कितलीं बिलां फारीक केलीं.
त्याच बिलांची संवंय लागून ताणें मराठीचें बील हाडलें.
हांवें एक दीस ताका म्हळें, 'पांडुरंगा, हें कितें चलयलां तुवें?'
तसो तो हांसलो आनी म्हज्या तोंडाक पळयत रावलो.
'कोंकणी राजभास जाली मरे? आतां मराठीय करूंया.'
'आरे, पूण कित्याक? तूं उलयता तीच राजभास पुरो.'
'तशें जाल्यार अण्णाक फुडाराक बुद्द कोण शिकयतलो?'
तो कितें म्हणटा तें म्हजे तकलेंत कशेंच वचना जालें.
म्हजे तकलेचो चोथो जायत चल्ला हाची म्हाका खात्री जाली.
तकली थंड दवरतलों म्हूण विधानसभेंत वचून बसलों.
नवे विधानसभेचे गॅलरींत बसल्यार म्हजें भुरगेपण जागवता.
भुरगेपणांत हांव शेतांतल्या ओंड्याचे धडेर उबो रावतालों.
ओंड्यांतलें एखादें साळक काडूंक मेळत हे आशेन.
पावसांत ओंडे भरिल्ले आसतना थंय वचूंक मेळनाशिल्लें.
भरिल्ल्या ओंड्यांनी तांबडींच साळकां दिसतालीं तरी
मागीर शेतां लुंवलीं म्हणटकच ताप पडून ओंडे सुकताले.
साळकांय सुकून गेल्लीं आसतालीं वो तीं कोणूय व्हरताले.
म्हाका पळोवंक मेळटालें तें ओंड्यांतलें वेंतभर उदक.
आनी तांतूंत बुडूक बुडूक करपी बेबकांचो चोंबो.
तांकां मागीर हांव वरांचीं वरां पळयत बसतालों.
नवे विधानसभेचे वाटकुळे गॅलरींत बसतकच तशेंच दिसता.
बशिल्लेकडेन म्हाका दयानंद मांद्रेकार उलयतना दिसलो.
तो दयानंद नार्वेकाराचेर मराठींतल्यान तापतालो.
ताच्या मतदारसंघांतले 'बंधारे' सगळे फुंटून गेल्ले खंय.
नार्वेकार म्हणटा ताच्या मतदारसंघांत बंधारेच नात.
ताचेंय बरोबर. बंधारे नात जाल्यार ते फुट्टले खंयचे!
मागीर मांद्रेकार म्हणूंक लागलो, बंधारे म्हळ्यार 'खांवटीं'.
ताचे भाशेंत बंधाऱ्यांक 'खावंटीं' म्हणटात खंय!
'बंधारे' म्हणचे परस ताणें 'खावंटी' पडटात म्हणिल्लें जाल्यार?

विधानसभेंत मतदारसंघाचे प्रस्न केन्नाच सुटपाचे.
पूण मांद्रेकाराक तुजीच भास खरी भास हें कोण सांगतलो?
ते खातीर मोर्चा काडूंक जाय अशें हीत-राखणकार सांगतात.
ह्या लोकांक आपल्या मतदारसंघाचें हीत कळना.
ते खातीर हांवें मोर्चा काडून म्हजें हीत कित्याक होगडावप?
तेरा वर्सां पयलीं तर मोर्चा काडून सगळ्यांचें हीत राखलें.
सगळे आतां सुवात मेळटा थंय वेवस्थीत बसल्यात.
तांतले थोडे म्हाका ओंड्यांत, सॉरी, विधानसभेंत दिसताले.
ह्या लोकांचें हीत राखपा खातीर हांवें म्हूण कित्याक झगडप?
ते परस म्हज्यान एक गजाल करूं येताली.
ज्या सगळ्यांची भास मराठी आशिल्ली तांकां बुद्द शिकोवप.
म्हणचे तांकां म्हजी भास वापरूंक दिवप ना.
जो कोण मराठीवादी कोंकणी उलयता ताका सोडप ना अशें हांवें थारायलें.
म्हजे तावडेंत सगळ्यांत पयलीं सांपडलो तो विष्णू वाघ.
ताका पळयले बराबर हांवें अचळय कूस मारली.
तो वाग म्हूण न्हय, तर ताका हांव वळखतां म्हूण.
तो आमच्या शेजारच्या गांवचो, डोंगरेवेलो.
ह्या गांवांत दर वर्सा कितलींशीं नाटकां जातात.
पयलीं ह्या नाटकांक हांव चुकनासतना वतालों.
शाळेंत वचनाशिल्ले लेगीत भाशण पाठ करून सवंग करताले.
तांच्या आंगांत संभाजी, शिवाजी बी संचारतालो.
ही संचारवृत्ती एकदां गेली म्हणटकच सगळे आसा तशे थंड.
होच संचारी भाव विष्णू भितर वयर सकयल भरलॉं.
ताच्यांतल्यान तो केन्ना भायर सरता हें कळूंक कुस्तार.
गरजे भायर नाटकां नाकात म्हूण हांवच ताका टाळटां.
विष्णूची ही गत जाल्यार गोविंद नायकांतूय तोच संचारी भाव.
ह्या लोकांक सुदारतलो जाल्यार तांचीं नाटकां बंद करूंक जाय.
ते परस सगळ्यांत शाणो म्हणटात तो विनायक नायक
तो मराठी म्हणटा पूण चुकून लेगीत मराठी उलयना.
हाकाच पयलीं धरतलों आनी म्हज्या कार्याक आरंभ करतलों अशें चिंतलें.
म्हाका तो ज्युस्त साहित्य सेवक मंडळा भायर सांपडलो.
आपले फियाट गाडयेंत बसून कसलो तरी विचार करतालो.
तो कितें विचार करता हें फकत हांव एकलोच जाणां.
साहित्य सेवक मंडळांत वचपा खातीर तो हांगा येता.
मिनेझीस ब्रागांझा सभाघरा सकयल तागेलें हें मंडळ.
थंय केन्नाच साहित्याची सेवा जायना. जाता तें भाशाकारण.
तेंच करूंक ताणें येवप आनी पुतुगिजांक गाळी घालप.
ताच्या मतान प्रवेशद्वार मातशें व्हडलें आसूंक जाय
जाका लागून आपली गाडी सरळ मंडळांत वतली.
पूण पुतुगिजांनी इमारत बांदतना राजकारण केलां.
दार ल्हान दवरून मराठीवाद्यांचेर अन्याय केला.
तो आपले गाडयेंतल्यान पुतुगिजांक गाळी घालीत देंवतालो.
इतल्यांत ताचे मुखार हांव उबो जालों.
'हांव तुका न्ही आं, पुतुगिजांक गाळी संवतालों.'
'तूं कोणाकूय गाळी घाल, पूण त्यो म्हजे भाशेंतल्यान घालचोना.'
हांवें आवाज चडोवन ताका सांगूं नाका तसो तो भियेलो.
विनायक नायक कसो विनाकारण कोणाकूय भियेता.
तो गोपाळ मयेकाराक भियेता, गोविंद नायकाक भियेता.
इतलेंच कित्याक, तो केन्ना केन्ना आपल्याकूय भियेता.
'हें कितें? तुजी आनी म्हजी कितें वेगळी भास तर?'
म्हाका पळोवन विनायकराव तोंडभर हांसलो.
ताच्या हांसपांत आनी रावताच्या हांसपांत फरक आसलो.
'तुजी भास मराठी. तुवें तेच भाशेची सेवा करूंक जाय.'
म्हजें कितें जालां हें बाबड्याक खीणभर कळ्ळें ना.
'हांव आनी कितें सेवा करतलों? सेवा तुमी करपाची.'
'हांव म्हजे भाशेची सेवा करतां. हांव बरयतां. ते परस चड उलयतां.'
हड्डें तायट करून हांवें म्हजी सेवा अभिमानान सांगली.
'तुमचेर आमचो भरवंसो आसा. आमी आनी सेवा कित्याक करूंक जाय?'
'कित्याक करूंक जाय? मागीर राजभास कशी जातली?'
'आनीक राजभास कित्याक जाय? कोंकणी राजभास जाली न्हय.'
अजून विनायक नायक कितें उलयता तें ताकाच कळनाशिल्लें.
'कोंकणी राजभास आमी केल्या. मराठी विशीं म्हणटां हांव.'
'ती व्हय? ती आतां जातली. बील हाडटले न्हय आतां?'
'तूं म्हजी भास उलोवन मराठीक राजभास करूंक सोदता?'
'ती तुजी भास तशी म्हजीय भास. ते बगर कशें जातलें?'
'मागीर तुका वेगळी राजभास आनीक कित्याक जाय?'
'आसल्यार केन्नाय तोंडाक लावंक उपकारतली.'
'अशें! मागीर मराठी जाय जाल्यार मराठींत उलय.'
'पूण ती उलयल्यार कोणाक कळना. गैरसमज जाता.'
'तुमच्या मराठीवाद्यां कडेन तरी उलय. तांकां कळना?'
'ना. ते मराठी मनीस न्हय. मराठीवादी ते.'
'तशें जाल्यार निदान जोशी, घवी हांचे कडेन तरी उलय.'
'ते मराठी मनीस. तांकांय आमची मराठी कळना.'
विनायक नायक आतां सामको काचाबूल जाल्लो.
ह्याच लोकांक लागून म्हज्या मेंदवाचो चोंथो जावंक लागला.
म्हणचे कितें? देवाक खबर! म्हाकाय कळना.

* * *

# सुर्याचें जळप देखिलें

□ अरूण साखरदांडे

सुर्याचें जळप देखीलें
मळबांतलें मळब रेखीलें
आवयच्या पदरा पोनां
सुख-दुख चाखीलें.

रगताचे घाय सोंशीले
दोळ्यांतलें उदक लिपयलें
नातीं-गोतीं सोदतना
तुटिल्ले धागे माडयले.

अनवाणी वाट चलतना
पांयांतले कांटे काडीले
जिवीत राग फुलयतना
तुटिल्ले तारे जोखीले.

हाचे ताचे खातीर
हड्ड्यांतले मोती झरयले
थेंब थेंब आटोवन रगत
जल्माचें रीण पावयलें.

हाचो ताचो मोग जोखीलो
कोणाकोणाचो मोग भोगीलो
नव्या उमेदी सपनां खातीर
निमणो लेगीत स्वास घेतीलो.

# रेषन

□ पी.एन. शिवानन्द शेणै

खंय की थाकून
एक चेरडालें
भुकेल्लें रण्णें
मेगेले कानारी पडताच आसा.

रेषना खातीरी क्यूवारी राबिल्लों हांव –
वारें भितरचे गिमाक चडोवंचे
ये दिनांद्यांतू
उपाशीं पडचें इतूलें कीं
कुटुंबांचीं चित्रं चित्रपट पुस्तकांतू
निश्चल जाताच आसय.

रेषना खातीरी क्यूवारी आसां हांव –
भुकेवनु चेरडालें रण्णें
मागीरीय मेगेले कानारी पोणू
भितरी वोचूनू मनाक घायू घालताच असा.

एक कालाकय दूद येवनतीले स्तनाचे
पुरूष जन्मा शापान
हांव लजेवनु
सानू जाताच आसा.

रेषना खातीरी क्यूवारी आसां हांव –
क्यूवांतुले अंतिम व्यक्तीक लगेन
हांव समजतां,
तागेलें दुख्खय
फुटल्लें स्वप्नय
भुकेल्लें पोटय
उबारलेलीं हाडांय
भितरी पावलेले दोळेय
सुकून गेल्लेली जीबय
तोंडारी थाकून देवनु गेल्लेलें ऐश्वर्यय
माका समजताच आसा

रेषना खातीरी क्यूवारी राबिल्ले
मेगेले कानारी भुकेल्लें चेरडालें रण्णें
पडताच आसा.
सगटाकय मोल चडता
म्होणु कानारी पडतना
आस्वासान मन सांगता
रेषन विना हांव कितें घेतां ?
ना... कांय ना.
मोल चडता सगटाकय जल्यारी
रेषना खातीरी क्यूवारी राबिल्ले
मेगेलें मोल तं उणें जाता.

चेरडालें रण्णें
मगीरीय
मेगेले कानारी पडता –
तेन्ना,
    चरचरचें
    चकचकचें
    जरजरचें
    मनीषपण
    रेषन जाता...

# ते दंगलींत

□ प्रकाश पर्येंकार

ते दंगलींत
सुखाप्पाचो हातगाडोय
जळून गोबर जालो...
हातगाड्याचीं रोदां
जळटां जळटां
सुखाप्पाल्या संवसाराचींय रोदां
गरऽ गरऽ घुंवलीं
आनी मागीर
रेब्यांत मुंगरिल्ले वरी थंयचे थंय
उज्यांत ना-नपयत जालीं...
हय,
सुखाप्पाक एके उंडयेचें
सूख दिवपी तीं रोदां
हाचे फुडें त्या शारांत घुंवचीं नात
घुंवतल्यो फकत यादी...
यादी,
डांबरी रस्त्यार उठून दिसपी
त्या रोदांच्या मागाच्यो.
तशेंच जालें
एक याद, रखरखत्या
डांबरी रस्त्यावयली उठून
सुखाप्पाच्या काळजाक
कुच्च करून तोंपली...
आनी ताच्या
भुरग्यां-बाळकांच्या पोटार
तापिल्लें डांबर शिंपडायत
ती याद
दंगल पेटयतल्यांचे मुखार
हामेल फोडीत
हुंडक्या-हुंडक्यांनी
रडटां-रडटां, काळ्याकिट्ट
डांबरेल्ल्या आवाजांत
म्हणपाक लागली...
'आगा, आगा सुखाप्पाचो
हातगाडो दी गा...
भुकेन-भुकेल्ल्या बाळकांक ताच्या
चिमटी भर घांस दी गा...'
आनी म्हाका
रोदा पोंदची सुवात दी गा...'

# झूज

□ आर. रामनाथ

हार्ली म्हाका जाग आयल्यार कच्च जाता
काळखांत मुंगरून रावन कशें दिसता
हार्ली हें अशें कित्याक दिसता
कांयच कळना..

उजवाडाची म्हाका भिरांत दिसता
बुर्नूस माथ्यार घेवन न्हिदनशें दिसता
फकत न्हिदनशें दिसता...
दोळे उकते करून दीस पळोवपाक मन धजना
तशें केल्यार दीस कँच करून आंगार येता
जिणूच जाल्या सामकी जीवघेणी...

काळखाचो लेगीत अंत जाता
काळखा उपरांत उजवाड येता
हें सूर्यसत्य हांव जाणां
मागीर काळखांतूच मुंगरतां कित्याक हांव ?

म्हाका आतां उठचेंच पडटलें
काळोख पचयत
उजवाड पीत
जिणेच्या घोड्यार सुंवार जावन
म्हाका झुजामळार म्हजें झूज झुजचेंच पडटलें
म्हाका म्हजें राज्य जिखचेंच पडटलें
ना जाल्यार म्हाका देहदंड भोगचोच पडटलो...

म्हजी चूल आतां भगभगीत पेटूंक लागल्या
म्हजो बुडकुलो खतखतूंक लागला...

# पावस

□ सखाराम गो.शे.बोरकार

पावस आपले
मर्जेचो राजा
आपल्याक जाय तेन्ना येता
आपल्याक जाय तेन्ना वता.
मनीस बाबडो मळबा कडेन
पळोवपा भायर
दुसरें कितें करूंक शकता?

✻ ✻

तूं म्हऱ्यांत आसतना
गिमांत लेगीत पावस पडटा.
तूं म्हऱ्यांत नासल्यार
मीर्ग लेगीत सुको वता.

✻ ✻

भायर घोम्यांनी
पावस पडलो.
म्हज्या दुकांक आतां
थोडो तरी विसव मेळ्ळो.

✻ ✻

उतरांनी सांगूंक यैना असो
भायर घोम्यांनी पडपी पावस
आनी भितर म्हज्या मनांत
तुज्या यादिंचीं दाटिल्लीं कुपां
दुकांचो पावस घालपाक
सामकीं उतावीळ जाल्यांत.

# तुजे खातीर

□ परेश नरेंद्र कामत

तुजी याद येता –
शिरशिरत्या पावसा वरी
आनी मस्तकांत उठ्ठा कल्लोळ
पावसांत झणझणटल्या वाऱ्या वरी...

तूं अजूनय म्हज्या
काळजांत
म्हणूनच
म्हज्या मनाचें झाड
रुतुरुतूंत फुलता, फळटा...

तुजो सांगात अजूनय
म्हज्या स्वासांत
म्हणूनच
म्हज्या उल्या उल्याक
कवितेचो साद आसता.

तुजे यादिचो उजो
पेट्टा रगतांत
म्हणूनच
निर्मणेचो वाठार
जितो-जिवो जावन
नागड्यांनी उबो रावता
म्हजे सामखार.

तुका कोणायचे वेंगेंत फुटूं चंवर –
तुजे यादिची
खरसाण इतली खोल,
म्हज्या अस्तित्वाकच घालता
झाडाच्या मुळां वरी
चरचरीत वेंग...

आज तुजी आयली याद आडवेळ्या
पावसा वरी
आनी कांय खीण जायना,
मातयेच्या मृदगंधांत
आसमंतय भारावलो...

# मेरे वयलो आंबो

□ सु. म. तडकोड

काल मेरेन गाळींनी यथास्थित आशिल्लों हांव
आयज अचकीत मेरे वयलो जालों...

आतां ती गाळ म्हजी उरूंक ना,
आतां हांव धनयाविणें!
तें घर आतां म्हजें उरूंक ना,
आतां हांव अनिकेत!
कांय जाण असल्या जिण्याक स्वतंत्र जीण म्हणटात!

पूण विसरूंक ना जेन्ना हांव त्या घराब्याचो आशिल्लों
एक अटळ आंग,
खेरीज येतालीं त्या घराचीं आणकुलीं माणकुलीं भाचरां
मामान हाडिल्लीं लक्तुबायेन
आनी व्हरतालीं म्हजीं पोसोभर तोरां मळबा येदें हांशाचें चान्नें
दवरून
म्हज्या शिरंतरांनी!

हांवेंच सांगलें कितलेशेच फावटीं कावळ्याक आंगार घेवन
त्या घराब्याच्या सोयऱ्यांधायऱ्यांचें येवप आनी
तोंडभर धजा मारतल्यांचें नाडेपेन्न त्या घराक!
भोगलें तें हांवेंय त्या घराचें वळपेवन...
पूण येवजूंक नाशिल्लें
त्या घरांतले हापापिल्ले, अधाशी भुरगे
म्हाकाच धड्यार लायतले म्हूण!

एक दीस वकिलांचें भिरें आयलें;
जोखमोल करून तांणी म्हाका त्या घराब्यांतल्यान भायरायलो

तिंट्यार बशिल्लीं सुकणीं नाका नाका तें उलयतात,
स्वतंत्र जिण्याची गजाल सांगतात.

त्या घरांतल्यांच्या कांय जाणांचें जुवानपण
अपंगूळ जालां,
जाण्टीं तळमळटात पूण
हांव मात मेरेचेरूच
गड्यांनी जोखिल्ले फातर खायत...
हे घाय पेखतशे दिसना...

# तांचीं म्हाका याद येता

फेलीस्यु कार्दोज




भारती कैद्यां भितर दोग मोहन आसले – एकलो पंजाबचो मोहन सिंग, आनी दुसरो मोहन राव. मोहन सिंगाची आवय शिक्षिका आसली. मुंबयच्यान गोंयां येवन ताणें सत्याग्रहांत वांटो घेतलो तेन्ना ताची पिराय १७-१८ वर्सांची आसली. केन्नाय तो दुसऱ्यांचेर तापून फुर्र जातालो, पूण थोड्या वेळान विसरतालो.

१९५८च्या जानेरांत म्हजी सुटका जाली. त्या वर्सा दिवाळे समयार हांवें कार्डां छापून घेतलीं. कोंकणींत एक कवन बरोवन दिवाळेचीं परबीं व्यक्त केल्लीं. म्हज्या इश्ट-मित्रांक तीं कार्डां हांवें धाडून दिलीं. मोहन सिंगाच्या घरच्या पत्त्यार हांवें ताकाय एक कार्ड टपालांतल्यान धाडलें. थोड्या दिसांनी म्हाका चीट आयली. हांवें ती उत्सुकतायेन उगती केली आनी वाचूंक लागलों. वाचतना म्हजे दोळे भरून आयले. चीट ताचे आवयची आसली – हिन्दींत बरयल्ली. तिका बाबडेक म्हजी ती कोंकणी कविता समजूंक ना. ती समजली तें कार्ड पुतानूच आपणाक धाडलां. चिटिचो मजकूर आसलो: 'तूं कांयच सांगनासतना घरांतलो भायर सरून गेल्यार वर्सां जालीं. तुजी याद करून हांव रडून दीस काडटां. आनी तूं गोंयांत रावन कविता करता... तूं वेगीं घरा यो...' ते चिटी वेल्यान खात्री जाली, तो सुटले उपरांत आपल्या घरा वचूंकच ना. तो मुंबय शारांत खंय तरी तळमळता आसतलो म्हण हांवें अदमास केलो.

मोहन सिंगाचो एक उगडास म्हजे मतींत घट आसा. तो ज्या वेगान चपात्यो लाट्टालो तें पळेल्यार तो चपात्यो करपाचें एक यंत्रच दिसो. चपातेची पिठा-गुळी लाट्टना तो ती परत परत आरती परती करनासलो. एका फाराक गुळी लाटून लाटफळ्या येदी करतालो. ताचेकडलें तें तंत्र हांवेंय शिकून घेतलें.

मोहन राव मंगळूरचो. ताची आवय-भास कोंकणी. पूण तो कन्नड, तुळू, हिंदी भासोय उलयतालो. हांव कन्नड लिपी शिकतना ताणें म्हाका मजत केल्ली. तो बरो रांदपी. पूण केन्ना केन्ना ताचें कोल्ल फिरतालें. केन्नाय तो जेवणाचो एक पदार्थ मुद्दम सामको तीख करतालो. जेवतना थोडे सूऽ-सूऽ करताले. कोणा कोणाच्या दोळ्यांतल्यान दुकां, नाकांतल्यान उदकां गळटालीं. जेवण तीख-उजो जालां म्हण एकलो-दुकलो शिणटालो. मोहन राव मात कांयच जावंक नासल्ले परीं थंडसाणीन जेवतालो आनी दुसरे हा-फू करतात तांची 'मौज' पळेवन मनांतल्या मनांत सुखी जातालो.

एक दीस मोहन राव आनी शशिकांत शुक्ला हांचे भितर झगडें पेटलें. शशिकांत कानपूरचो. हाकाय रोखडोच राग येतालो. आनी रागा भारार ताच्या तोंडांतल्यान गाळिंचो एक धबधबोच सो घसघसूंक लागतालो. पूण राग निवळून शांत जातच मात तो सामको बरो. तेदूस मोहन रावा आनी शशिकांता मदें कसले तरी गजालीक लागून हुजत सुरू जाली. हुजत तापत गेली. गाळीं बरशीक मुठीय शेंवटूंक लागले. एकल्यान दुसऱ्याक कांब घाली. दुसऱ्यान सुटपाक कांब घाल्ल्याक घांस मारलो. हाणेंय ताका घांस मारलो. हांवें आनी दुसऱ्यांनी तांकां मेकळे केले. दोगांयच्याय भुजांचेर दातां वळ्यांचे दाग उदेल्ले. तांचे मदें झगडीं जातच म्हजो पेंच जातालो. जर एक-दुकल्यान झगड्यांची खबर कोमांदांतीक दिल्यार, ताचे कडेन तक्रार केल्यार गुन्यांवकाराक ख्यास्त दितलोच आसलो; हे शिवाय सत्याग्रही झगडीं-मारामारी करपी गुंड म्हण पुर्तुगीज खबरांपत्रांचेर बातम्यो परगट करतलो आसलो. अशें जाल्यार सत्याग्रहींक हें लजेक म्हारग पडटलें म्हण तांकां समजायचे पडटाले. तेदूस मोहन रावाक आनी शशिकांताक कॉमांदांती कडेन कागाळ दिना जावंक हांवें तांची समजाविशी केली. तांणी आयकून घेतलें.

थोड्या दिसांनी ह्या झगड्याची खबर कॉमांदांतीक कळ्ळीच. आमचे मदें उत्तर भारतांतलो एकलो अमरसिंग जीतसिंग नांवाचो कैदी आसलो. तो हिंदी उलोवपी. थोडी तोडकी-मोडकी इंग्लीश उलोवंक जाणा आसलो. हो फितुरी करूंक लागलो. केन्ना केन्ना खोलयेंत कितेंय वांकडें तिकडें घडल्यार तो कॉमांदांतीक गुपतीं बरोवन खबर दितालो. ताणेंच त्या झगड्याची बातमी कॉमांदांतीक दिलली. एका दिसा कॉमांदांत 'तेनेंत' कॉश्त आफोंस आमचे खोलयेंत येवन त्या झगड्या विशीं म्हाका विचारूंक लागलो. तें एक किरकोळ झगडें जालें पूण आतां ते दोगूय एकामेकां कडेन बरे आसात म्हण हांवें सांगलें. कॉमांदांतीन मोहन रावाक आनी शशिकांताक आपल्या फुड्यांत आपोवन हाडले. त्या दिसा कॉश्त आफोंसाचो 'मूड' बरो आसलो. ताणें तितलो बोवाळ करूंक ना. तांकां वयले वयर मातशे तापयले. तांणी एकमेकांक सुण्यां परी घांस काडल्यात काय म्हण विचारपाचें आसलें. पूण इंग्लिशींत कितें म्हणप तें ताका कळनासलें. बरोच वेळ तो गोंदळ्ळो. शेकीं ताणें तांकां अशें विचारलें: 'यु आर ए डॉग ऑफ दिस मॅन अँद यु तू आर ए डॉग ऑफ दिस मॅन?' आनी तांणी जबाब दिलो: 'यॅस सर!' उपरांत ताणें पुर्तुगेजींत तांकां एक 'सेर्मांव' सांगून अशी धमकीय दिली: 'हे पावटी हांव तुमकां भगशितां. पूण परतून अशें केल्यार तुमकां सेग्रेदांत (काळखा कुडींत) दवरतलों!'

आमचे मदें सगल्यां परस उंचायेन लांब आसलो तो राजस्थानचो किसन सिंग रघुनाथसिंग. आंगलटीन बारीक तेंकडी कसो. ताच्या तोंडार असकाच्यो मावो आसल्यो. तो फिशाल दरजी आसलो. बुशशर्ट खमसां तो बेस बरीं करतालो. सुयेन हातानूच तो इतले नाजुकसाणेन शिंवतालो की ताची शिवण मशिनाचीच कशी दिसताली. तो लुगट कातरतना पळेवन हांवूय चेड्डी, लेंगो, सदरो, खमीस कातरूंक शिकलों. उपरांत बंदखणींत म्हजे कपडे हांवूच शिंवन तयार करतालों. दुसऱ्यांकय चेड्ड्यो हांव करून दितालों. आमचे खोलयेंतले चडशे ताचे कडेन कपडे शिंवन घेताले. तो लांब आसलो देखून ताका थोडे 'राजस्थानी ऊंट' म्हणटाले आनी कोण कोण 'लॉंबू' म्हण उलो करताले.

किसन सिंगान मुंबयच्यान येवन हेरां बराबर गोंयां सत्याग्रह केल्लो. मुंबय तो एका शिंप्या दुकानांत काम करतालो. ताका बरी मजुरी मेळनासली. केन्ना केन्ना तो मुंबय शारांत बँडांत वाजोवंक वतालो. खरें म्हळ्यार ताका कसलेंच वाजंतर वाजोवंक येनासलें. श्रीमंतांच्या लग्ना समरंभा प्रसंगार चड वाजंत्र्यांची गरज आसता तेन्ना बँडवालो नगाक कोणकोणाकय हाडून तांचे कडेन वाजवपाचीं वाद्यां दिता आनी खरे वाजंत्री आसात तांचे भरशीं त्या 'अडेच्या वाजोवप्यांक' दवरता. अस्सल वाजंत्री वाजयतात तेन्ना 'अडेचे वाजंत्री' वाद्य तोंडा कडेन दवरून फकत पोले फुलयतात आनी बोटां हालयतात. किसन सिंग लांब आसलो देखून बँड मास्टर ताका बोंकांव घेवन हेरां बराबर मिरवणुकेंत मुखार दवरतालो खंय!

किसन सिंगाक परत परत ताप येतालो आनी केन्ना केन्ना खोंकलीय

येताली. दोन पावटी ताका पणजे हॉस्पिटलांत व्हेल्लो. ताका बारीक जोराची पिडा जाल्या म्हण वैजांनी सांगलें. तो मातसो सुमाराचो जातकच ताका परत बंदखणींत हाडून दवरलो. ताची आनी म्हजी एकीच दुप्पट खाट आसली. वयर हांव न्हिदतालों आनी खाला किसन. टी.बी. वशाची पिडा म्हण हांव पयलीं भियेल्लों, म्हाकाय बी ती जायत म्हण. हांव सुट्टकच डॉ. पाश्क्वाल मिनेजिश वैजाक वचून मेळ्ळों. बंदखणींत जे खाटीर हांव न्हिदतालों तेच खाटीर सकला बारीक जोऱ्याचो एक पिडेस्त न्हिदतालो म्हण वैजाक सांगलें. वैजान म्हाका तपासलों आनी हांसून सांगलें, 'तुका टिबी जावंक ना. तूं हायपोकोंड्रियक जालासो दिसता. टिबीच्या दुयेंती फुड्यांत इतले दीस रावन तुका इम्युनिटी मेळ्ळी.' दोतोराच्या ह्या उतरांनी म्हाका बरीच घटाय मेळ्ळी. तकले वयलो भार वचून मन ल्हवशें जालें.

आमचे मदें एक बंगाली तरणाटो आसलो – क्रांतीप्रसाद सिंग हें घडये ताचें खरें नांव नासुंये, कित्याक, आपलें नांव शक्ति पदनांदी म्हण ताणें म्हाका सांगललें. आमी सगले ताका 'कांती' म्हणून उलो करताले. गोरोच, गुलगुलीत तोंडाचो, हांसमूख. आनी सभावान बरो. बंगाली तशीं हिन्दी गितां तो गोड ताळ्यान गायतालो. ताची विशेशताय म्हळ्यार ताचें सुरबूस रांदप. बंगाली पकवान तो उत्कृश्ट करतालो. तो रसगुल्ला करतालो ताचो उगडास केल्यार म्हजे जिबेर उदक सुट्टा. तेन्ना आमकां बंदखणींत ताजें दूद मेळनासलें. आमी दब्यांतलें आटयललें (कन्डॅन्स्ड) दूद ना तर दुदा पिठो वापरताले. तेन्ना हें दूद हॉलंडाक थावन येतालें आनी सवाय आसतालें. 'क्रूज आजूल' (Cruz Azul) दुदाचो दबो तेन्ना १४ आण्यांक (आतांचे ८७ पयशे) मेळटालो. दुदा पिठ्याचे दबे जिनसांवार नांवांचे आनी चिन्नांचे मेळटाले. आमी 'बस्क' मार्काचे दबे हाडटाले. ह्या पिठ्याचें दूद बरें जातालें. आमी ह्या दुदाचें धंय लेगून करताले. ह्याच दुदाचे कांती सुवादीक रसगुल्ला करतालो.

ह्या कांतीन एका दिसा म्हजो जीव गळ्या कडेन पावयलो. तर जालें कितें? अनपेक्षितच घडलें!

घरच्यान हांवें शब्दकोश, कांय पुस्तकां हाडून घेतललीं. पोरणीं पुस्तकां बिघडललीं. थोड्यांचीं पानां विस्कटललीं. हांवें तीं सारकीं करूंक चिंतलें. मरचूद (कॉपर सल्फेट) घालून खळ करूंक जाय आसली. मरचुदा विणें केल्ली खळ पुस्तकांच्या पानांक वापरल्यार उपरांत त्या पुस्तकांक साणस लागपाचो संभव आसता. मरचूद तर वीख. असल्यो वस्तू बंदखणींत हाडूंक जायनात. तर तो हाडटलों कसो? हांव चिंतूंक पडलों. शेकीं हांवें एक माण्णी येवजिली. आमकां दिसपट्टीं लागतात त्यो वस्तू मागोवपाचे वळेरेंत मसाल्यांच्या नांवां भितर हांवें 'मरचूद' उतर बरयलें. आठ आण्यांचो मरचूद मागलो. आमकां सामान हाडून दिवपी एका जाणट्या रॅफॉर्मादाक (निवृत्त शिपायाक), सैनिकां दोळ्यां आड, हांवें मरचूद कसो हाडपाचो तें समजावन सांगलें.

दुसऱ्या दिसा त्या रॅफॉर्मादान म्हाका मरचूद हाडून दिलो. हांवें खळ केली आनी पुस्तकां 'बायंडिंग' केलीं. निळसार [illegible] (गुरूद) पळेवन ती तशी कशी जाली काय म्हण कांतीन म्हजे कडेन बारकाय घेतली. मरचूद वीख आनी तो घालून केल्ली खळ पुस्तकां सारकीं करूंक वापरल्यार तांकां साणस लागना म्हण हांवें ताका सांगलें.

थोड्या दिसांनी कांतीची जेवण रांदपाची पाळी आयली. त्या दिसा दनपारां, जेवण बी रांदून जातकच, तो म्हज्या फुड्यांत एक पोरणें पुस्तक घेवन आयलो. आपलें हें पुस्तक इबाड जालां, तें सारकें करपा खातीर खळ करतां तातूंत घालूंक मरचूद दी म्हण ताणें म्हाका सांगलें. हांवें चिमटी भर मरचूद ताका दिलो. थोड्या वेळान एक आयदन घेवन तो म्हजे कडेन आयलो. तातूंत पिठा उदक शें आसलें. ताणें तें म्हाका दाखयलें आनी खळ बरी निळसार जावंक ना देखून आनीक थोडो मरचूद दिवंक मागलें. हांवें ताका म्हजी धाकटुली आलमार उगडून तो काडूंक लायलो. दनपारच्या सुमार एकाक आमी जेवले. त्या दिसा ताणें जेवण भौच रुचीक केल्लें.

सुमार एका तासा उपरांत रांदचे कुडिंतल्यान कोण व्हडल्यान ओंकतल्याचो आवाज आयलो. हांव खाटीर आड पडून पुस्तक वाचपाक लागलों. थोड्या वेळान एक किळांच आयकली. हांव उठून कुजना कडेन गेलों. दार उगडल्यार उगडना जालें. हांवें दुसऱ्यांक आपयले. बळान दार लोटून उगतें केलें. कितें पळेतलों? कांती सैराणा भायर खाला पडून आसलो. ताच्या तोंडांतल्यान दोदर येतालो. लागींच निळसार ओंक आसली. कांती म्हाका फटोवन मरचूद खिरोवन पियेला म्हण म्हजी खात्री जाली. म्हजेर आकांत आयलो! हांवें वेगवेगीं एक चिटी कुडको बरयलो आनी एका पाकल्या सैनिका कडेन उपकार मागून तो डॉ. मार्तींसा कडेन दिवंक ताका सांगलें. कांतीन मरचूद खाला देखून कितें उपाय करचो काय म्हण हांवें ते चिटीर बरयल्लें. तो सैनीक म्हजे कडेन बरो आसलो. तो रोखडोच दुसरे खोलयेंत वचून डॉ. मार्तींसाचो निरोप घेवन आयलो. ताका ताबडतोब हॉस्पिटलांत व्हरूंक दोतोरान सांगललें. हें आयकून हांव गर्भगळीतसो जालों. कांतीक जर हॉस्पिटलांत धाडून दिल्यार सगलें मर्म उगतें जातलें. बंदखणी भितर मरचूद कसो पावलो हाची चवकशी जातली; तो बाबडो रॅफॉर्माद त्रासांत पडटलो. हें सगलें चित्र म्हज्या दोळ्यां मुखार नाचूंक लागलें. म्हाका लागून दुसरो त्रासांत पडललो म्हाका मना पासून नाका आसलें. हांव सामको आकूळ-पिकूळ जालों. ही परिस्थिती समजावन हांवें आनीक कागता कुडको बरोवन डॉ. मार्तींसा कडेन त्याच सैनिका वरवीं धाडून दिलो. बंदखणींतच कसलो पूण उपाय करूंक जाता जाल्यार सुचवपाक हांवें डॉ. मार्तींसाक बरयललें. हांव सामको हुसक्यांन वैजाच्या जबाबाची वाट पळेत आसलों.

(चलता)

---

## 'जागा' खातीर बरप धाडटना

– बरपाची एक प्रत बरोवप्यान आपणालागीं बाळगुची.

– बरप निवळ अक्षरान कागदाच्या एकाच अर्दान बरयल्लें आसचें. (एका अर्दान आदीं वापरिल्लें कागद बरोवपाक वापरूं येता.)

– हेर खंयचेच कडेन उजवाडा येवंक नाशिल्लें बरपूच धाडचें.

# 'ओथांबे' : रवीन्द्रोपनिषद्




बाळकृष्ण कानोळकार

रवीन्द्रबाब केळेकारांलें बरप म्हळ्यार एक साधनाच. जिणेचो आपरोस कसो. **ओथांबे** तांगेलें नवें पुस्तक. सप्टेंबर ९९त बांदोडेच्या 'माणिकपद्म प्रकाशना'न तें उजवाडाक हाडलां. हे परंपरेंतलें रवीन्द्रबाबांलें हें तिसरें पुस्तक. पयलें **वेळेवयल्यो घुलो** जून ७१त उजवाडा आयिल्लें. तेन्ना सावन ही परंपरा मुखार चलत रावल्या. दुसरें, **सांगाती.** हेच परंपरेंतलें तांचें नवें ताल्ल पुस्तक **घुसपल्लें जानवें** तांच्या अमृत महोत्सवी वर्सा निमतान हालींच मार्च २०००त उजवाडा आयलां. ह्या पुस्तकां सांगाताक **उजवाडाचे सूर** पुस्तकाकूय घेवचें पडटलें. तांच्या चिंतनशील बरपावळिचें हें एक पंचक. मनशाचे जिणेंतले साबार रोस तातुंतल्यान चाखपाक मेळटात. आनी चाखतल्याक थाकाय दितात. एक नवी दृश्ट दितात – मनीस जिणे कडेन पळोवपाची आनी जीण जगपाची.

**ओथांबे** पुस्तकांत ल्हान व्हड अशीं १५० बरपां एकठांय आयल्यांत. तांच्या स्वरुपा विशीं आनी एकूण प्रवृत्ती विशीं खासा लेखकानूच म्हळां, 'म्हजो सभाव मात्सो चिंतकाचो. कसलीय सादी गजाल म्हाका केन्ना केन्ना गंभीर करता. आनी चिंतनाच्या मळार खंय तरी खोल खोल ओडून व्हरता. एकामेकांक संबंद नाशिल्लीं हीं तुटिल्लीं चिंतनां आसलीं तरूय तीं पावसाचे पांवळे भशेन थेंब्या थेंब्यान पडपी आनी सतत व्हांवपी.'

रवीन्द्रबाबान हांकां 'एकामेकांक संबंद नाशिल्लीं तुटिल्लीं चिंतनां' अशें म्हणिल्लें आसलें तरी म्हाका तीं तशीं दिसनात. तांतुंतल्यान अखंड अशें एक सूत्र सतत म्हाका जाणवत आयलां तें म्हळ्यार जिणेचें सूत्र. उपनिषदांची सूत्रबद्धता आनी संवादीपण तांकां रुपकार दिता. सत्याचो सोद घेवपी हीं चिंतनां म्हळ्यार कोंकणी भाशेंतलें उपनिषदूच. तांतुंतल्यान दिसपट्ट्या जिविताचें दर्शन जाता तशेंच एका प्रगल्भ, प्रौढ मनाचें दर्शनूय जाता. तांतुंतल्यान जिणेचो गंध आनी अर्थ बळयां सोदचो पडना. तो तांतुंतल्यान अखंडपणान पाझरता. रवीन्द्रबाबालीं हीं बरपां म्हळ्यार गद्य कविताच. मनीसजिणेचे आनी मानवी संस्कृतायेचे केळवणिचो अखंड, अनंत, अप्रूप असो हो उत्सव. तांच्या जिविताची लांबाय रुंदाय ह्या ओथांब्यांक लाबल्या. आनी ताका लागून हांतुंतलो एक-एक ओथांबो म्हळ्यार एक म्हासागरसो. ताची खोलाय वाचप्याक जिविताच्या मळार खोल खोल ओडून व्हरता. आनी जें दिसता ताचे फाटल्यान आसपी सत्य-शिव-सुंदराची वळख करून दिता. निजाच्या वाचप्याक ताच्या वाचनान एक असोशी-शी लागता. परथून परथून ताका तांतूंत खोल खोल देंवनशें दिसता. तशें केल्ल्यान तो घुस्मटना तर ताका जिणेचो नवो नवो दिस्टावो अणभवूंक मेळटा. आनी वाचप्याच्या ह्या प्रवासांत, ह्या बुडपांत खासा रवीन्द्रबाब ताच्या सांगाता आसता. उपनिषदांतल्या गुरू वरी. हें ह्या ओथांब्यांचें खाशेलेपण. आपल्या बरपां विशीं उलयतना मेन्तैन एके कडेन म्हळां, 'हांव ह्या बरपांनी म्हाकाच चितारतां.' रवीन्द्रबाबांले हे ओथांबे ल्रेगीत तांकांच बेस बरे चितारतात.

हांतुंतले ओथांबे ल्हान व्हड आकाराचे. ल्हानांत ल्हान अडेज वळिंचो जाल्यार व्हडांत व्हड अडेज पानांचो. पूण दोगांयचें वजन एक सारकें. उदकाचो आकार कितें म्हण विचारल्यार कितें सांगूं येता? ज्या आयदनांत तें भरता तो ताचो आकार. पूण म्हाका दिसता, अशें म्हणप पूर्ण सत न्हय. पूर्ण सत कितें? पूर्ण सत – उदकाचो आकार उदक. जिविताचो, जिणेचो आकार कितें? जिवीत, जीण हीच ह्या प्रस्नाची जाप.

ओथांबे म्हळ्यार जेष्टांतलो घसघशांचो पावस न्हय. तो शिरवानांतलो झिरीमिरी पावस. दडकांचो पावस वरांचीं वरां पडटा. अख्खी सृश्ट जळमय जाल्या. रुखा पेडार, पानां पानांर उदक थारलां. आनी पावस वखळटा. मनाक सूऽ जाता. पूण खिणभरांत मनाक जागोवपी 'ओथांब्यां'चो साद संथमंद्र लयेंत कानामनार सादयत रावता. 'टप' 'टप' 'टप' 'टप'. काळखी रात आसत जाल्यार हो साद रंध्रां-रंध्रांत अथांग देंवत वता. आनी मनशाक अंतर्मुख करता. मनीस 'कोहंऽ?'चो सोद घेवपाक भायर सरता. कुडिचे, आपले कुडी भायर सरता. रवीन्द्रबाबांले 'ओथांबे' हेंच कार्य सादतात. ते मनशाक कुडी भायर सरून जीवन-यात्रा करपाक अणभवाच्या अथांग म्हासागरांत बुचकळी मारपाक प्रेरीत करतात. नीत-अनीत, चारित्र्य, सृजन, शिक्षण, समाज, राजकारण, साहित्य-कला, अर्थकारण, विज्ञान, धर्म, शास्त्र, वेद, बायबल, कुराण, संस्कृती-सभ्यता, दुष्ट-सुष्ट, संत-असत, तत्त्वगिन्यान, तंत्रगिन्यान, बुद्ध, महावीर, गांधी, आंबेडकर, तुकाराम, सूर, तुलसी, मीरा, कबीर, टॉलस्टॉय, रवीन्द्रनाथ अशे साबार विशय आनी आशय हांची भोंवडी, परिक्रमा ते घडोवन हाडटात. तांच्यांतलो इश्ट, तत्त्वगिन्यानी आनी गुरू ह्या प्रवासांत पावला कणकणी वाचप्याचो सांगात करता. ताका हाताक धरून चलयता. चलतना केन्ना चिमटे काडटा, केन्ना कोंपर मारता, केन्ना मदेंच लिपून भेश्टायता, तर केन्ना पाठराखण लेगीत करता.

उपनिषदांचे परंपरेंतलो आनी 'लीळाचरित्रा'चे जातकुळयेंतलो हो ग्रंथ कोंकणी सरस्पतीच्या भक्तांक सतत सादयत रावतलो. मनीस म्हण आमचें दायज आनी दायकी विशीं आमकां सदासर्वकाळ जागयत दवरपाची तांक ह्या ग्रंथांत आसा. ह्या ग्रंथांत रवीन्द्रबाबान विनोबांचीं उतरां दिल्यांत, तांतुंतल्यान ह्या ग्रंथाचो आशय बेस बरो उकतो जाता —

'आमी अनादी काळाचे यात्रीक. आमची यात्रा आयज लेगीत एका सारकी चलत आसा. असलो यात्रीक खंयच्याय एका देशाचो अभिमानी आसचो ना. तो खंयच्याय एका धर्मपंथाच्या वा जातिच्या जाळांत आपणाक घुसपावन दवरचो ना. संवसारान सत विचारांचें एक पोरसूं फुलयलां. ह्या पोरसांत भोंवप हो ताचो स्वाध्याय आसतलो. आनी वेगळ्या वेगळ्या मत्तांच्या लोकां मजगतीं एकचार घडोवन हाडप ही ताची साधना आसतली.'

**ओथांबे**
**रवीन्द्र केळेकार**
**माणिकपद्म प्रकाशन, १९९९**
**पानां: १६०**
**मोल: १२०**

# जाग प्रकाशन

प्रियोळ – गोंय

## राष्ट्रीय पुरस्कार मेळिल्लें पर्जळीत साहित्य

**हिमालयांत**
भोंवडे-वर्णनां
: बरोवपी : रवीन्द्र केळेकार
साहित्य अकादमी ललीत साहित्य पुरस्कार १९७७
मोल रुपया : १०/-

**पिसोळीं**
कवीत
: कवी : डॉ. मनोहरराय सरदेसाय
साहित्य अकादमी ललीत साहित्य पुरस्कार १९८०
मोल रुपया : १०/-

**कार्मेलीन**
नवलकथा
: बरोवपी : दामोदर मावजो
साहित्य अकादमी ललीत साहित्य पुरस्कार १९८३
मोल रुपया : ३५/-

**सोंशाचे कान**
कवीत
: कवी : चा. फ्रा. द कोश्ता
साहित्य अकादमी ललीत साहित्य पुरस्कार १९८९
मोल रुपया : २५/-

**तरंगां**
कथा
: बरोवपी : महाबळेश्वर सैल
साहित्य अकादमी ललीत साहित्य पुरस्कार १९९३
मोल रुपया : ५०/-

आनी आतां

**भुंयचाफीं**
व्यक्ती-चित्रणां झेलो
: बरोवपी : शीला कोळंबकार
साहित्य अकादमी ललीत साहित्य पुरस्कार १९९७
मोल रुपया : ६०/-

पुस्तकां मेळपाचें ठिकाण : कोंकणी भाशा मंडळ, मडगांव आनी पणजी